# सरभरस

– चंद्रकांत केणी

कुळागर प्रकाशन

सरभरस
SARBHARAS



लेखक - चंद्रकांत केणी



साहित्य विविधा... (पुस्तक १४ वें)



पयली आवृत्ती : २००८



उजवाडावपी :
सत्यवान कुंदे
कुळागर प्रकाशन
आर्के, मडगांव – गोंय ४०३ ६०१



मुद्रक :
कस्तुरी प्रिंटर्स
ढवळी, फोंडा – गोंय.



मोल : २५ रुपया

# साहित्य विविधा

कोंकणी साहित्य आनी साहित्यिकांची वाचप्यांक तोंडवळख करून दिवची हो हेतू नदरेमुखार दवरून कुळागर प्रकाशनान 'साहित्य विविधा' हो उपक्रम सुरू केला. सादारणपणान वर्साक बारा पुस्तकां उजवाडावपाचें आमी थारायलां. जण एका साहित्यिकाच्या साहित्य कृतींचो अदमास वाचप्यांक मेळचो आनी ताजे साहित्यिक प्रवृत्तीची आनी प्रतिभेची तांकां कल्पना येवची हेखातीर हो उपक्रम आसतलो.

'बत्तीस ते ऐंशी पानांचे मर्यादि'त एक पुस्तक उजवाडायतले आनी पुस्तकाचे मोल २५ ते ३० रुपया मेरेन आसतलें. व्यापारी तत्वाचेर ही येवजण आमी चलोवचे नात. पोरन्या– नव्या लेखकांमदीं भेदूय करचे नात. ज्यांची पुस्तकां अजून उजवाडाक येवंक ना अशा गुणी लेखकाचें साहित्यय आमी उजवाडायतले.

वर्साच्या १२ पुस्तकांचो सेट वाचकाक २०० रुपयाक मेळटलो. पुण ते मोल आदीं भरचें पडटलें. लेखक, वाचक, समीक्षक हांणी हे येवजणेचो लाव घेवचो. २००६ वर्सा आनी हातली तीन पुस्तकां उजवाडायली. आतां २००७ वर्साची बाराय पुस्तका तयार जाल्यांत. तीं डिसेंबर २००७ मेरेन छापून तयार जातली. तपशीलाखातीर बरयात :

**कुळागर प्रकाशन**

पो. बॉ. नं. ७८

मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

# मांडावळ

# उगडास - चित्रां

दिल्लीक सावन मोटारीन जयपुराक वतालों, सांजवेळ, निर्जन वाठार, रुंद रस्त्याचेर येरादार पातळ. खंयतरी एकाद्रें झाड दिसतालें. अचकीत अस्तंतेकडेन दर्या पळोवन म्हाका अजाप जालें. राजस्थानचें वाळवंट, सांजवेळच्या सांवळ्यांक लागून दर्यावरी दिसतालें. दर्याचें दर्शन वेगवेगळ्या ऋतूंत, वेगळ्या वेगळ्या वेळाचेर हांवें घेतिल्लें आसलें तरी तो दर्याचो आभास पळोवपाखातीर हांवें मोटार थांबोवंक लायली.

जून म्हयनो. सूर्य अस्तंतेकडेन पाविल्लो. क्षितिजापसून वेंतभर वयर तांबडो रंग पातळ जायत कडांनी गुलाबी जाल्लो आनी ताचे पलतडीन धवसार मळब इल्लें, इल्लें निळें जायत राविल्लें. फाटल्यान घुंवन पळयलें जाल्यार उदेंते कडली पयसुली वसती. खंयय एकाद्रो वोडको रुख. चार झाडांची मोटवीं झोपां. खंय तरी एकाद्री घोण वा कावळो चुकून दिसतालो. पूण उदेंतेकडेन काळोख दाटूंक लागला आनी अस्तंतेकडेन भांगरा रुप्याचो शिंवर चल्ला. देखाव सादोच पूण मन भाळोवपी. एक्या चित्रकारान रंगयिल्लो जाल्यार हांवच घडये तें चित्र अडेचें म्हणीन आसलों, इतलें वातावरण वेगळें आसलें.

सूर्य अस्ताक वचपाचो वेळ जालो तरी वातावरणांतलो धग अजून न्हिंवंक ना. आंगाक हून वारो झोंबता आनी त्या वाऱ्या सांगातान उडून आयिल्ले रेंवेचे कण रोंबतात. एकय मनीस खंय दिसना. हांव रस्त्याकडेक वचून उबो रावलों. विशाळ वाळवंट. सूर्य आनीक इल्लो सकल देंवलो. दर्यांतलो सूर्यास्त हांवें पळयला. कामाराचे भट्टेंतलो तांबडो गुंज जाल्लो वाटकुळो पत्रो जेन्ना कामार उदकांत बुडयता तेन्ना सुळ्ळ असो आवाज येता. तसलो आवाज सूर्य दर्यात बुडटा तेन्ना येतलो अशें म्हजें भोळें मन सदांच मानता आनी हांव तो आवाज आयकुपाखातीर कान दिवन उबो रावतां. सूर्य पृथ्वीपसून कोट्यांनी मैल पयस आसा. तो आमकां दर्यात बुडटा असो दिसलो तरी तो थीर आसा. फकत धर्तरी सूर्याकडली कूस घुंवडायता हें जाणा जावनय दर्यांतलो सूर्यास्त पळयतना हांव देहभान विसरतां. ल्हानपणांतसावन वेळेर वतकच सूर्यास्त पळोवपाचें पिशें म्हाका लागलां आनी हांव जंय जंय गेलां थंय थंय सूर्यास्त आनी सूर्योदय पळोवन आयलां. दर एके कडलो सूर्यास्त वेगळो आनी सूर्योदय आगळो म्हणपाचेंय हांवें अणभवलां.

कन्याकुमारीचो सूर्यास्त आनी सूर्योदय दर्यांतच जाता. तो जसो हांवें पळयला तसो हिमालयांत हिमशिखरांफाटल्यान वयर सरतल्या आनी अस्ताक वतल्या सूर्याचें दर्शनय

घेतलां. ओरिसांत चिलका सरोवरामुखार उबो रावन दर्यांतल्यान वयर सरतल्या सूर्याचे दर्शन घेवंक फांतोडेच्या शांत वेळाचेर हांव वरभर उबो रावलां आनी पूर्व भारतांत पाविल्त्या वेळार दोंगराफाटल्यान अस्ताक वतल्या सूर्याक हांवें आर्गा ओंपल्यांत. अशें आसतनाय राजस्थानच्या त्या रेंवटांत सूर्यास्त पळयता आसतना तो दर्यांतच अस्ताक वता असो आभास अणभवपाचो आनंद वेगळो आसलो.

हांव नदर थिरावन खचतल्या सूर्य बिंबाकडेन पळयता आसतना एक अप्रुप घडलें. हरणाचो एक थवो धांवत पळत दक्षिणेकडल्यान उत्तरेकडेन वतालो तो म्हाका दिसलो. शॅडो प्लेंत आकृत्यो दिसच्यो तश्यो त्यो आकृत्यो आसल्यो आनी अचकीत त्यो आकृत्यो निश्चल जाल्यो. खिणभर असो भास जालो कि सूर्यबिंबाचेरच काळ्यो आकृत्यो उदेल्यात.

"हे रे कितें?" हांवे अजापान ड्रायव्हराक विचारलें.

तो मेरेन मोटारीत बसूनच राविल्लो ड्रायव्हर हांसत सकल देंवलो आनी ताणे भुरग्याक समजावचें तशें म्हाका सांगलें, "सूर्य पयस आसा. आमच्या आनी सूर्यामर्दी हरणाचो कळप आयला. ताजी सांवळी आमकां दिसता."

"तें कळ्ळें रे." हांवे म्हळें, "निकतीच तीं हरणां धांवतालीं..."

"तीच तर पळोवपासारकी मजा." ड्रायव्हरान म्हळें, "वाळवंटातलो सूर्यास्त पळयतना हरणां थीर जातात आनी एका चित्तान सूर्याक पळयत एकाच जाग्यार उबीं रावतात. आनी जाणा तूं, हरणाक मारपी लोक ह्याच म्हूर्ताची वाट पळयतात."

सूर्यबिंब पुराय अस्ताक गेलें आनी दिवलेंतली थरथरती ज्योत अचकीत पालोवची तसो वाठाराचेर काळोख दाटून आयलो. न्हावंक गेल्ल्या मनशान उदकांत उडी मारची आनी मागीर ल्हवूच तकली वयर काडची तसो खीणभर सूर्य परत वयर येवन क्षितिजाचेर बचकभर गुलाल शिंवरून पर्थून बुडलो. ल्हवू ल्हवू निळें मळब काळें जालें आनी तो काळो रंग विस्तारत गुलाबी तांबड्या उजवाडाक गिळून बसलो.

सूर्यास्त पळयतल्या हरणाचें कितें जालें ते कळूंक मार्ग नासलो. त्यो काळ्यो सांवळ्यो काळखाच्या विस्तारांत गडप जाल्यो.

एक अप्रुप देखाव पयळतकच मन भरून येता आनी तोंडातल्यान उतर फुटना. तशे अवस्थेंत हांव परत मोटारीत बसलों. गाडी सुरू करून ड्रायव्हरान दिवे पेटयले आनी काळखाची कुपां चिरीत आमी जयपुराचे दिशेन वचूंक लागले.

मनाच्या कॅनव्हासाचेर उदेल्लें हें चित्र केन्ना केन्नाय अचकीत दोळ्यांमुखार उबें रावता आनी खूब वर्सां आदलो तो प्रसंग आतांच दोळ्यांमुखार घडटा अशें दिसूंक लागून हांव दोळ्यांच्यो पातयो धांपून घेवन तो पळयतां.

*

## मोराचो नाच

उगडासाचे कांय खीण अशे आसतात कि तांचीं चित्रां मनांचेर उदेल्लीं उरतात. कसलोय तरी एक ल्हानसो प्रसंग घडटा आनी उगडासाचे कोठयेंतल्या त्या चित्राचेर नदर

वता. पुराय चित्त तें चित्र व्यापून उडयता. हो अणभव सगळयांकच येता आसतलो.

एक खेपे गिमाच्या दिसांनी गोंयच्यान दिल्लीक गेल्लों. पालम विमानतळाचेर देंवलो तेन्ना दीस अस्ताक गेल्लो. पुण वातावरणांत धग आनी उजवाड खर आसलो. विमानांतले थंडेतल्यान सकल देंवक उठलों तेन्ना दारांतच सुक्या - हून वाऱ्यान येवकार दिलो. गीम सोंपतां सोंपतां दिल्लीचे सुके हवेंत मात्शी ओलसाण येता. हुमेच्यो पावळयो गळनात. पूण आंग चिकचिकीत जाता.

टॅक्सीच्या ड्रायव्हरान हारसो सकल देंवयतना म्हळें, ''काल पावस पडिल्लो. आजय घडये पडटलो.''

दिल्लीची हवा न्हिवंक लागता तेन्ना ती आंगार घेवं येता. ना जाल्यार हारशे बंद दवरून आपली राखण करची पडटा.

गोवा सदनाचे वाटेर आसतनाच पावस शेनूंक लागलो. आवाज ना. पूण टॅक्सीच्या मुखावयल्या हारशाचेर दवासारको उदकाच्या थेंब्याचो थर दाटलो. व्हायपर सुरू जाले तेन्ना धुल्लाचो रेबो मुखावयल्या ग्लासाचेर सारवलो.

''फाटले चार दीस आकांताचो उजो जातालो.'' ड्रायव्हरान म्हळें, ''वातावरणांत भरिल्लो धुल्ल आतां पावसा सांगातान झडटा.''

मनांत म्हळें, एक मोठी दडक आयली जाल्यार वातावरण निवळ जातलें. राष्ट्रपती भवनाचे फाटले वाटेन खूब व्हडलो मेकळो जागो आसा. थंय तरेवार रूख आनी त्या रुखांमदीं नाचताले मोर.

हांवे टॅक्सी थांबोवंक सांगलें. दुर्गाचेर बशिल्ल्या एका मोरान आपल्या पाखांचो आयणो फुलयिल्लो. पावसाचे थेंब आंगार घेत तो मोर आपली खोशी उक्तायतालो. अचकीत दुसरो एक मोर येवन ताजे कुशीक बसलो. दोगांयमदीं खोशयेच्यो गजाली सुरू जाल्यो. आयणो फुलयिल्लो मोर थुयथुयत नाचूंक लागलो. पूण दुसरो मोर नाचना. आनी नाचपी मोर ताका धोंसता.

''ती मादी.'' ड्रायव्हरान म्हाका सांगलें, ''ती पांखां फुलयना वा तोंडान आवाजय काडिना.''

मिनिटभर तो देखाव पळयल्या उपरांत हांव परत टॅक्सींत बसलों.

गोवा सदना मेरेनचे वाटेर एक दुसरोच प्रसंग नदरेसामकार उबो रावलो. राजस्थानची राजधानी जयपूर शारांतलो. तो प्रसंग खूब वर्सां आदीं घडिल्लो. जयपूरच्या म्हाराजांच्या रामबाग राजवाड्यांत आतां हॉटॅल आसा. त्या हॉटेलांत हांव राविल्लों. राजाच्या राजवाड्याचें सगळें वैभव थंय आसलें. एक दीस तरी इतिहासाची गवाय दिवपी त्या प्रासादांत रावचें सुख भोगचें ही कल्पना त्या वेळार म्हज्या मनांत आसली. हॉटेल शारापसून पयस जाल्ल्यान अडचणीचें.

हांवें हॉटेलांत पावल दवल्लें आनी भायले वटेच्यान कुपांचो गडगडाट कानार पडलो. म्हाका घट उगडास आसा त्या प्रसंगाचो. वोतांतल्या रखरखांतल्यान हांव टॅक्सींत बसून

हॉटेलांत आयिल्लों. आनी लॉबीत पांय दवरनाफुडें हांवे गडगडाट आयकलो. भायले वटेच्यान खीणभरयांत पावशी काळोख दाटून आयलो आनी जोगलां चकचकूंक लागलीं. म्हजे कुडीत हांव पावलों तेन्ना पावसाची दडक झडूंक लागिल्ली.

हॉटेलाच्या पोर्टरान म्हजें बॅग कुडीत दवरून म्हळें, ''सगून अच्छा है। बारीश हो रही है।''

भायलेवटेन पावस पडटालो आनी वावझड व्हारांदांत येतालीं. राजस्थानांत पावस म्हळ्यार अप्रुप. वातावरण एकदम थंड जालें आनी हॉटेलांतले कुडीचें वातानुकूलन अडेचें दिसूंक लागले. आखांताची दडक झडटा आनी वसवशिल्ली जमीन पडिल्लोय थेंब गिळून उडोवन सुकी सडसडीत जाता हें पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. पावस पडटालो त्या हिसपान आनीक खंयय जाल्लें जाल्यार जमनीर उदक सांचतलें आसलें. बिल्डींगेवयल्यो पावळ्यो गळटात आनी पावसान भिजता ती जमीन मात सुकी उरता हें अप्रूपच म्हणूंक जाय.

जलधारांचो नाच खूब वेळ चालू उल्लो आनी इतले मजगतीं अस्तंतेकडली काळीं कुपां भेदून सूर्याची किर्णां धर्तरेचेर पावलीं. तें एक अप्रूप दृश्य आसलें. हॉटेलाच्या उद्यानांत आशिल्लीं तरेकवार झाडां पावसांत न्हावन सोंवळी जाल्ली आनी तांच्या ओल्या पानांचेर भांगराची किर्णा पडटकच ताणी पोवनाचो नाच सुरू केलो.

अचकीत म्हजी नदर उदेंतेकडच्यान क्षितिजाचेर गेली. थंय गाड रंगाचे इंद्रधनुष्य दिसलें. मोगलांच्या उद्यानांनी अडेचे प्रपात आसतात आनी तांकां सावन (श्रावण) भादों (भाद्रपद) अशी नांवां दिल्लीं आसतात. हांगा गीम पावसाचो आपालिपाचो खेळ चलतालो. जमनीर नदर घालीत थंय गुलाबी रेंव. विलोदाचें जाजम पातळावचें तशी. मयासुराले मायानगरीचें खंय तरी वाचिल्ले वर्णन म्हाका याद जालें आनी दिसलें थंयचें वातावरण घडये अशेंच आसूंये.

उजवाडाचें काळखाचेर, वताचें पावसाचेर जैत त्या दिसा हांवें पळयलें. उजवाड विस्तारत विस्तारत काळोख गिळूंक लागलो आनी आशिल्लें नाशिल्लें उदक झडोवन कुपां विरगळून गेलीं.

त्या खिणाक सकले वाटेन उरिल्लो सुरिल्लो पावस आंगार घेतले एके बायलेचेर म्हजी नदर गेली. म्हजी कूड पयल्या मजल्याचेर. थंयच्यान ते बायलेक हांव पळोवंक लागलों. आंगार धवी फुल्ल साडी. तसलोच ब्लावज. फाटीवयले सळसळपी लांब केंस भिजनाफुडें फाटीक दकले आनी ओल्या वस्त्रान तिजो देह वेंगायलो.

चड वेळ ती थंय नासली. पूण त्या वातावरणांत ती एकाद्रे परीसारकी आयली आनी अचकीत नदरेआड जाली. त्या उपरांत हांव केदोवेळ व्हारांदांत उबो रावलों. पूण ती दिसली ना.

सांजवेळ जाली तोमेरेन पावस पुराय थांबून वातावरण शीतळ जाल्लें. हांव कुडींतल्यान भायर आयलों आनी उद्यानांत भोंवलो. दिवे पेटले, उद्यानाचे एके कुशीक शामियाना

आसा. गिमाच्या दिसांनी त्या शामियानांत रेस्टॉरंट चलता. थंय वाजतल्या बँडाचेर पश्चिमी संगीताची धून चलता. तिचे अस्पष्ट सूर आयकूंक येतात.

कॉफी येवपाची इत्सा आस्ली. पूण हांव शामियानाचे उरफाटे दिशेन गेलो. गजाची वाग खरेंच अप्रुप आसली. फुलांचे रंग-रूप, झाडांचे आकार तांखेंत तरेकवार सवण्यांचे संगीत आयकत हांव ल्हवू ल्हवू पावलां उखलतालों.

इतल्यांत ती वायल - व्हडोळर्चीच आसूंये - कॅमेरा घेवन फोटे काडटना म्हाका दिश्टी पडली. मुखावयल्या झाडापोंदा मोरांचो एक जोडो. प्रेमसंगीताच्या ल्हारांमदी तो तल्लीन जाल्लो. पांखाचो आयणो फुलयिल्लो नर आनी ताका नाचूंक लावपी मादी. ती बायल एका फाटल्यान एक अशे फोटे काडीत आसली.

हांव लागीं गेलों जाल्यार मोर उडून वचत अशें येवजून हांव शामियानांत आयलों. कोनशाच्या मेजार बसून कॉफी मागयली. बँडाच्या तालाचेर कांय जोडपीं नाचतात. तातूंत आसा एक बायल. मोरपिशी रंगाची साडी न्हेसून बॉल डान्स करपी ते वायलेंत कसली तरी विसंगती आसा अशें म्हाका कित्याक दिसलें कोण जाणा! नाच कसलो! ताल ना. लय ना. ते एक विकृतीचे प्रदर्शनच. आंगाक आंग घांसपाची सभ्य धडपड. म्हाका किळस आयली आनी दिसलें मोराच्या प्रणयक्रीडेंत लेगीत एक काव्य आसलें.

*

## रानसुंदरी

उगडासाचें आनीक एक चित्र मनाच्या पडद्याचेर दिसूंक लागलें तें एके रानसुंदरीचें.

मंगळुराकसावन कुर्ग प्रांताचें मुख्य शार मडिकेरी वतना तिका हांवें पळयली. तिजें नांव हांव नकळ. त्या गांवाचे नांवय म्हाका खबर ना. तिजेकडेन हांव एकूय उतर उलोवंक ना. तरी पूण तिजी याद मनांत घर करून बसल्या.

घाट चडटा आसतना आमची मोटार खूबच तापली. रेडीयेटराक गळटी लागिल्ली. आमी मोटार थांबयली आनी लागसार खंय उदक मेळत काय म्हणून पळयत रावले. दाट रानातलो निजन वाठार. सांजची सुमार चार वरां जाल्लीं. पूण वताचें एकूय कीर्ण नासलें. लागसार घर दिसना. किते करचें तें समजना जालें. आड कुशीक खंयय व्हाळ. न्हंय आसा जाल्यार पळोवया अशें येवजून हांव एके पायवाटेन चार पावलां मुखार सल्लों. तितले म्हणसर पयस एक खोंप दिसली. हांवें येवजिलें, ते खोंपीत कोणी रावता जाल्यार उदक मेळूंक अडचण येवचीना. खोंपीचे दिशेन हांव चलूंक लागलो. लागीं पावलो तेन्ना थंय कोणयतरी रावता हे विशीं मनांत दुबाव उल्लो ना. खोंपीचे एके कुशीक केळी आसल्यो आनी मुखावयलें आंगण शेणान सारयिल्लें. पूण खूब उले मारूनय कोणे जाप दिली ना. हांव तसोच परत येवंक लागलो तेन्ना फाटले वटेच्यान माथ्यार लाकडाचो भोरो घेवन येताली एक बायल हांवें पळयली.

पयसुल्यान तिज्या आंगावयलें तांबडें कापड आनी वाऱ्यान फडफडटालो तो पदर दिसतालो. बायल लागीं पावली तेन्ना ती सारकी दिसली. तिणे एक कापड गुटलायिल्लें

आनी एका खांद्यार पदर सोडिल्लो. वयलें आंग उकतें. आबोलेच्या रंगाची रानफुलां तिणे केंसांत माळिल्ली आनी तांचो एक घोंस फुडले वटेन ओडून घेतिल्लो.

ती लागीं आयली आनी म्हाका दिसलें, म्हज्या सामकार शिसवी लाकडाचें एक शिल्प चलता. रंग काळो कुळकुळीत, पूण रूप खूबच सोबीत. आंगलोट आखीव. माथ्यावयल्या भोऱ्याक तिणे हात धरिल्लो. दुसरो हात मेकळो. एकाद्रे नर्तकीन माचयचेर नाचचें तशी पावला कणकणी तिच्या आंगाची लय नदरेंत भरताली. हांव रस्त्याचे कुशीक आसा. माथ्यार भोरो आसलो तरी तिणे म्हाका पळयिल्लो आसतलो. सामान्यतायेन परकी मनीस मुखार आसतकच बायलांचो हात पदराक वता. पूण हे बायलेन एका तालार आपलीं पावलां उखलतना म्हजी गणती कुशीच्या एका रुखांत केल्ली आसूंये.

ती लागीं आयली तेन्ना हांवे तिका हटकुपाचो यत्न केलो. ती कसली भास उलयताली काय? कन्नड, तुळू काय कुर्गी? ह्यो तीनय भासो म्हाका येनात. हांवे कोंकणीतल्यान तिका उदक खंय मेळटलें अशें विचारून तिका घडये उदक हें उतर समजुचें ना अशें येवजून पाणी, वॉटर अशेंय म्हळें.

कानाकडेन गुणगुणतल्या मुसाक आमुडटना लेगीत संगीत गावपांत तल्लीन जाल्लो गवय हात वावुडटा. पुण बायलेन जसो कांय हांव थंय ना आनी तिणे कांय आयकूंक ना अशें मानून आपले चलप चालू दवल्लें.

म्हाका म्हजो अपमान जालो अशें दिसलें. ती बायल ते घराचे दिशेन गेली. फाटले वटेच्यान हांव तिका पळयतालो. ते अवस्थेंतय तिच्या आंगलोटाची सोबा हांव तोखेतालो.

ती चलत रावली आनी त्या घरांत गेली.

आमच्या ड्रायवराक कन्नड येता म्हणपाचो म्हाका उगडास जालो आनी हांवें परत गाडयेसरी येवन ताका सांगलें, "त्या घरांत निकतीच एक बायल गेल्या. तिका म्हजी भास समजली ना. तूं वचून इल्लें उदक घेवन यो."

रिकामो गॅलन घेवन ड्रायवर त्या घराकडेन गेलो आनी थोड्या वेळान उदक घेना आसतनाच परत आयलो.

"कितें जालें?" हांवे ताका विचाल्लें.

"ती बायल दार उकतें करिना. घरांत कोण दादलो ना अशी जाप दिता." आनी आपणेच फोडणीशी केली, "ह्या वाठारांत लग्न जाल्ल्यो बायलो परकी दादल्यामुखार वचनात."

म्हाका हासूंक आयलें. एक बायल रानांत वचून लाकडां हाडटा. वाटेर परकी दादलो दिसलो तरी देहाची लज लिपोवपाचें तिका धंग नासता. पूण घरांत वतकच दार बंद करून ती भीतर लिपता.

त्या प्रवासांतले हेर अणभव आतां हांव विसल्लों. पूण मनाच्या पडद्याचेर त्या खिणाक ते बायलेचें जें चित्र उदेलें तें मात इतल्या वर्सां उपरांत तशेंच उल्लां.

◆◆

# कलाकार आनी ताची कला

एका भारतीय लेखकाची मुलाखत आनी एका युरोपी संगीतकारावेलो लेख हांवे एकाच दिसा वाचले. एक नवी उमेद मनांत उदेली. तांची याद पुसून वचची न्हय म्हणून ती डायरेंत बरोवन दवल्ली.

×××

आवय भास कन्नड. पुण खूब वर्सां फ्रान्साक राविल्ले आनी इंग्लेज, तेच भाशेन फ्रेंच भाशेंत बरोवपी एक नामनेचे साहित्यिक राजा राव. एक प्रतिभावान नवो लेखक म्हणून तांची संवसारभर नामना जाल्या. तांच्या 'ध सर्पंट ॲण्ड ध रोप' हे कादंबरीक भारतीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा.

ह्या लेखकाचे अणभव आनी विचार आमच्या कोंकणी लेखकांक बोध दिवपी थारतले.

तांकां एके फावटी विचाल्लें,

'तुमी कशें बरयतात?'

राजारावान जाप दिली - हांव बरयत रावतां. वेगळी अशी तरा ना. पुण एके फावटी पेन घेतकच चड करून बरप सोंपले बगर पेन सकल दवरिना.... ... तशें पळोवंक गेल्यार 'ध सर्पंट ॲड ध रोप' ही कादंबरी बरोवंक म्हाका धा वर्सां लागली. पुण हरशी एक कादंबरी बरोवन काडूंक म्हाका २८ नाजाल्यार २९ दीस लागतात. जे कादंबरीक धा वर्सां लागलीं तीय तशी परिसाक २९ दिसांभितर बरोवन जाल्ली. खासा हांवें ती टायप केली.

- बरोवपा फाटलो हेतू किते?

- एका काळार हांव हेतू दवरून बरयतालों, कळवळ्यान हांव बरयतालों. आतां म्हज्यात कळवळो उरूंक ना, कळवळ्या परसय मोग ही व्हड वस्त आनी ती सोपेपणी उक्तावंक येता.

कथेविशीं राजाराव हांची मतां :

- साहित्यांत कथा वा लघुकथा हें सगळ्यांपरस चड ओड लावपी कलारूप. कादंबरी - परसय कथा मन ओडून घेता. निबंदापरसय ती चड कलात्मक आसता, नाटकापरसय चड नाट्यमय, कवितेपरसय चड काव्यमय. खरे म्हळ्यार कथेंत हेर सगळ्या साहित्यप्रकारांचो आपरोस येवन वता, आनी इतलें आसतनाय ती आटोपशीर आसता. कथा ही ल्हान

आसूंक जाय. ती कविता जावंक जायना. पुण तिच्यांत काव्य आसूंक जाय... आनी ती वास्तव आसूंक जाय. भावनेन भग्िल्ले परिस्थितीची घुस्पा-गोंदळाची गांठ कथेन साद तरेन सोडोवंक जाय. चित्रकार अर्शीच एखादी रेग ओडटा आनी ती कलापूर्ण जाता.... कथा तर्शीच जावंक जाय.... कथा म्हळयार कविता न्हय आशिल्लें काव्य. तिजो 'प्लॉटा'कडेन कसलोच संबंद नासता. कथेक कथानक आसूंकच जाय अशें ना. चडश्या कथांक तें नासता. कथा म्हळ्यार एक अशी कला, जिका जंयसून आरंभ जाता थंयच ती सोंपता. ताका लागून थंय वाव खूब आसता.... कथेक खंयच्याच प्रश्नाचें उत्तर दिवपाचें नासता, तिका जो अर्थ आसता तोच ती सांगता आनी वाचप्याकय तो समजता.

....पुण शंभरेक वर्सांमर्दी सुमार धा बऱ्यो कथा बरोवन जातात. जे. डी. सॅलिजर, मालरो, फोस्टर, गुंटर ग्रास हे कांय बरे कथाकार.

×××

## संगीताचो जल्म

पुनवेची रात, नामनेचे संगीतकार बीथोवन आपल्या एका इश्टाबरोबर पासयेक गेल्ले. चलता चलता ते उलयताले. नकळटना ते एके अरूंद गल्लींत पावले. इतले म्हणसर तांच्या कानार संगीताचे सूर पडले आनी बीथोवन थंयच उबो रावलो. ताणे उलोवंक सोदतल्या इश्टाच्या तोंडार हात दवरुन ताका ओगी राव म्हणून खुणायलो.

एका मोडक्या पोरन्या घरांतल्यान संगीताचे सूर भायर सरताले - सुंदर संगीत.

''आरे, ही म्हजीच रचना. सोनाटा इन. एफ. कितली सुंदर वाजयता न्हय?''

वाजतां वाजतां मर्दीच संगीत थांबलें आनी त्या जीर्ण घरांतल्या उक्त्या जनेलातल्यान करुण उतरां भायर सर्ल्लीं. 'आतां म्हज्यान वाजोवंक जायना. कितली सुंदर ही रचना! इतली सुंदर!... इतली सुंदर म्हज्यान ती वाजोवंक जायना. कितली सुंदर ही रचना... कोलोनचे संगीत सभेक वचूंक मेळिल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें!' एके चलयेचो हो रडकुरो आवाज.

दादल्याचो आवाजः ''बाय गो, जे पीडेक वखद ना ती भोगूंकच जाय. आमच्यानी घराचें भाडे लेगीत वेळार दिवं नज.''

परत रडकुरो आवाज. ''खरें तुजें. पुण तरी दिसता जिणेत एक फावट तरी बरें संगीत आयकुचें. पुण दिसून कित्याक उपकारता?''

रस्त्यार उबो आशिल्ल्या बीथोवनान आपल्या इश्टाचो हात धल्लो आनी ताकतिकेन तो त्या घरांत वचूंक लागलो. ''चल, आमी भितर या... हांव ते चलयेखातीर संगीत वाजयतां. तिका संगीताचो मोग आसा. तिका संगीत समजता. तिच्यांत प्रतिभा आसा.''

दुसऱ्याच खिणाक आड केल्लें दार धुकलून बीथोवन भीतर पावलो. हळडुव्या तोंडावळ्याचो एक दादलो मेजाकडेन बसून बूट शिंवतालो. आनी एक चली एक पोरनो हॅर्प्सीकॉर्ड घेवन बशिल्ली. निराशेची जिती प्रतिमा.

'रागार जायनाकात आं.' बीथोवनान म्हळें, 'संगीत आयकून हांव भितर आयलों. हांवय एक संगीतकार.'

ती चली लजेली. दादलो रागान तांबडो जालो. पुण बीथोवन उलयत रावलो.

'तुमी आतां उलयतालीं तें हांवें आयकलें. तुका संगीत आयकूंक जाय न्हय? हांव तुका वाजोवन दाखवं?'

ताची चालरीत आनी ताज्या आवाजांतली नम्रताय पळोवन तो चामार मोव जालो आनी हांसून ताणे म्हळें, ''देव तुका बरें करूं. पूण आमचो हॅर्प्सीकोर्ड पोरनो आनी मोडको, आमचेकडेन छापी संगीत रचना (नोटेशन्स) नात.'

'छापिल्ली नोटेशन्स नात? मागीर ती कशी वाजयताली तर?'

आता बीथोवनान ते चलयेक सारकी पळोवन घेतली. ती कुड्डी आसली. ताचें ताकाच वायट दिसलें. ताणे म्हळें,

'चूक जाली, म्हाका खबर नासलें. तूं याद दवरून वाजयता?'

'हय.'

'तुवें संगीत आयकलें तरी खंय? तूं तर संगीताच्या जलशाक केन्नाच वचना.'

'दोन वर्साआदीं ब्रसेलाक आमी आसलीं तेन्ना आमच्या शेजाराक एक बायल ही रचना शिकताली. गिमाचे दीस आशिल्ल्यान तिचें जनेल उक्तें आसतालें.'

बीथोवन फुडें कायच उलयलोना. मोन्यानी वचून हॅर्प्सीकॉर्डा म्हन्यांत बसलो. बोटां चलूंक लागलीं.

तागेलें वाजप चलतालें. घरांत किण्ण पातळलें. सगळे देहभान विसरून मंत्रमुग्ध जाले. अर्द शिविल्लो बूट चामारान कुशीक उडयलो आनी ती कुड्डी चली जाल्यार खंयचोच स्वर आपल्याक चुकचो न्हय म्हणून हॅर्प्सीकॉर्डाक तेकून बशिल्ली. खिणभरयांत त्या दळिद्रान भरिल्ले कुडींत थरथरताली ती मेणवातीची जोत वाडवली आनी बीथोवनाचो हात थांबलो...

बीथोवनाच्या इश्टान दार उकते केलें. चान्याची पसय घरांत सरकली. मेणवातीच्या उजवाडापरस चान्याची पसय चड काळखी नासली. पुण संगीत सर्जकाचे प्रेरणेचो झरो एकदम आटिल्लो. समाधी लागिल्लेभशेन तो खिणभर थंड बसलो.

निमाणेंकडेन तो चामार उठलो. आनी ताज्या म्हन्यात गेलो, 'तूं अजापाचो मनीस. तुजे नांव कितें?'

'आयक!' आनी बीथोवनान सोनाटा इन एफ ची पयली ओळ वाजयली.

भावा-भयणीच्या तोंडातल्यान एकाच वेळार वळख आनी खोशी हाची किळच भायर सल्ली. बीथोवन! आनी दोगांयनीं तागेले हात धरून ते दुकांनी आनी उम्यानी भिजयले.

बीथोवन वचूंक उठलो. पुण ताणी म्हळें, आनी एकच वेळ वाजय.

पर्थून बीथोवनान त्या पोरन्या मोडक्या हॅर्प्सीकॉर्डाक हात लायलो. उकत्या जनेलातल्यान पुनवेचो चंद्र चकचकतालो. ताजी पसय बीथोवनाच्या तोंडार फांकिल्ली. 'ह्या चान्याचेर

आतांच एक सोनाटा रचतां' अशें ताणे म्हळें आनी मळबार नदर थीर जावन ताजे हात हालूंक लागले. एक करूण सुंदर स्वरावळ भायर सल्ली. चान्याच्या शीतळ किर्णाभशेन तिचे स्वर कुडींत फांकले.

उपरांत द्रुताचे स्वर तितलेच करुण! बीथोवन थांबलो आनी त्या स्वरांच्या नादात आपणाकच विसल्लो.

भानार आयलो तसो उठलो आनी बेगीन बेगीन वचूंक लागलो.

'परत येतलो मू?'

'हय, हय.' बिथोवनान म्हळें, आनी तो धांवलो. वतां वतां ताणे आपल्या इश्टाक म्हळें, 'चल, बेगीन घरा या. ही रचना तकलेंतल्यान सुटचे पयलींच म्हाका बरोवन काडूंक जाय.'

आनी अशेरीतीन मूनलाईट सोनाटा हे बीथोवनाचे अमर कृतीचो जल्म जालो.



# भुतांची जात्रा

भुतांचेर म्हजो विश्वास ना. पूण जेन्ना कोणय वळखीचो वा अनोळखी मनीस भुतांची खबर सांगता वा आपलो एकाद्रो अणभव सांगता तेन्ना तो फट सांगता अशें म्हणूंकय हांव धजना. असल्यो खबरी उमेदीन सांगपी लोक जशे आसात तेच भाशेन त्यो ' ?' रुचीन आयकुपी लोक थोडे नात.

आमच्या भुरगेपणांत घरांतली जाण्टेली बायल सगळ्या भुरग्यांक म्हऱ्यांत बसोवन काणयो सांगताली. त्यो काणयो आयकतना त्या काळावयली भुरगीं तान-भूक विसरून कितलीं तल्लिन जातालीं तें हांवे पळयलां आनी अणभवलां. आयच्या युगांत टेलिव्हिजनावयल्यो कार्यावळी पळयतना लेगीत भुरगीं तितलीं तल्लीन जायनात.

काणी सांगप ही एक कला. उतरांच्या आदारान काणी सांगपी मनीस आयकतल्याक नव्याच संवसारांत घेवन वता आनी त्या संवसाराचे चित्र दोळ्यांमुखार उबे करता. तसली काणी एक मनीस देवळाच्या चौकार बसून सांगता आनी भोंवतणी बशिल्ले लोक तल्लिन जावन आयकतात. देवळांत दनपारचो एक उत्सव जाला आनी सांजचो दुसरो जावचो आसा. मदीं दोन वरांचो मेकळो वेळ सारप गरजेचें आसलें. गांवाभायर कुशीक देऊळ. एके ल्हानशे दोंगुल्लेचेर, देंवतेर वणखून उबें आसा. देवळामेरेन वचपी तांबडे मातयेचो अरूंद रस्तो फुडले वाटेन आसा. तो रस्तोच दाट रानांतल्यान वता आनी फाटले वाटेन दोंगराचेर गच्च रान.

आता देवळांत वीज पावल्या आनी उत्सवाचो दीस आशिल्ल्यान रातीचोय उजवाड आसता. उत्सवाखातीर आयिल्ले लोकय खूब आसात. पूण थंय दोन वरां सारप हें उबगणीचें काम आसलें. सांगाताक एकाद्रो इश्ट आशिल्लो जाल्यार रानांत भोवन येवं येतालें. पूण एकलोच रानांत वचप समा दिसलें ना आनीक कांय काम नासलें. देखून हांवय चौकार एका कोनशांत बसून खबरी आयकूंक लागलो.

खबरी सांगपी मनीस साठी पलतडचो आसतलो. आवाज मात्सो किनरो, आंगार धवें पुडवें आनी एका काळार धवें आशिल्लें आनी आता तामसार जायत गेल्ले हातकापे खोमीस. सांगता, सांगता तो आपलो ताळो निवळ करतालो आनी तेन्ना खर्र असो आवाज करतालो. आदल्या काळार कार्रेरीचे गियर बदलता आसतना आयकूंक मेळटालो तसलो आवाज.

हांव कुशीक बसलो तरी म्हजी दखल कोणे घेतली ना. खबर सांगतलो रंगांत आयला आनी आयकतले दोळे ताजेर थिरावन एकाग्र चित्तान आयकताले. तो कसली खबर सांगता हेंय हांव नकळ आसलो. पूण तो देवचाराची आनी भुताची खबर सांगता इतलें म्हाका समजल्लें.

''जात्रेचो दीस म्हळयार हांगा ही गर्दी.'' तो सांगतालो, ''तेन्ना वीज नासली. पेट्रोमॅक्स वापरताले. सगळया वाठाराक कुचकुचीत मांड आनी बायलो, भुरगीं, जाण्टे हांची खेट. मुंयेक लेगीत रीघ मेळची न्हय इतली गर्दी. पांय वळ्ळे जाल्यार बसूंक जागो मेळना आसलो. फांतोडेर रथ आनी दुसऱ्या दिसा दनपार मेरेन जात्रा उलगताली. सांजवेळ जावचे आदी भट लेगीत देऊळ बंद करून वतालो. मागीर हांगा रावपाची माणसुकी नासताली. रात जाता जातां भुतांची जात्रा भरताली.''

''अजूनय भरता?'' कोणेतरी विचाल्ले.

''असो मर्दी उलोव नाका पळोवया.'' खबर सांगपी ताजेर धेंगशेलो आनी ताणे आपली खबर फुडे चलयली, ''आतां सगळें बदल्लां. बुदवंतांक फातराचे शीत म्हणटात तें फट न्हय. आतां लोकांचो देवाचेर लेगीत भावार्थ ना. थंय भुतांचेर विस्वास कोण दवरतलो? पूण हांव सांगतां तातूंत इल्लेय लटकें ना. हांव आयकल्ल्यो खबरी सांगना. हांवें जें पळयलें, भोगलें तेंच तुमकां सांगतां.''

तागेले हे प्रस्तावनेन लोक घोळून बसलो. इतले मर्दी खबर सांगतल्याची नदर म्हजेर गेली आनी ताणे म्हाका हटकिलो, ''तूं पयस कित्याक बसला? असो लार्गी यो.'' ताणें म्हळें.

हांवे हातान खुणावन आसा थंय बरो आसा अशें ताका सांगलें. ताणे परत गियर बदल्लें आनी म्हजेकडेन दुर्लक्ष करून आपली खबर फुडें सांगली.

हांव सुमार अर्दवर थंय बसलों. भुताखेतांच्यो काणयो हांवे खूब आयकल्यात, वाचल्यात तांतूतलीच एक काणी तो सांगता अशें म्हाका दिसलें. तो सांगतालो तें सगळेंच अद्‌भूत आनी विस्मिताचें आसलें. थोडोवेळ त्यो खबरो आयकतकच म्हाका उबगण आयली आनी हांव उठूंक वतालों इतले मजगती देवळांतली इशारतीची घांट वाजली. ते सरशी ताणे आपली खबर अर्दारच सोडली आनी तो उठलो. आयकुपीय उठले.

खबर सांगपी भायले वाटेन गेलो आनी ताणे विडी पेटयली. विडी सोंपसर तो देवळांत वचचोना, हें हांव जाणा आसलो. ताका गांठूंक होच वेळ बरो अशें येवजून हांव ताजेसरी गेलों आनी म्हळें, ''हांवें तुजी सगळी काणी आयकूंक ना. तू खंयची खबर सांगतालो?''

विडयेचो एक व्हड झुरको घेवन ताणे आपले छातयेंत धुंवर कोंडून धल्लो आनी खीणभर दोळयांनी म्हजी तपासणी केल्या उपरांत नाकांतल्यान आनी तोंडातल्यान धुंवर सोडीत म्हळें, ''काणी म्हणूं नाका. हो रवळू काणयो सांगना. भावार्थ आशिल्ल्यान आयकुपाच्यो. नाका ताणे आयकुच्यो न्हय. पूण हांव ज्यो खबरी सांगता त्यो खऱ्यो घडिल्ल्यो.''

''तुजे म्हणणे ह्या देवळाकडेन जात्रेच्या दुसऱ्या दिसा भुतांची जात्रा भरता?'' हांवे विचाल्ले.

"आनीक खंय? पणजे म्हणून समजलो कांय कितें तूं?" रवळून जाप दिली, "हांगाच जात्रा भरता. अजून भरता. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्या. तुका दुबाव आसा?"

"तूं सांगता जाल्यार हांव कित्याक दुबाव घेतलो? हांव मात्सो उसरां थंय पावलों देखून सगळी खबर आयकली ना. पूण एक सांग तुवें तुज्या दोळयांनी भूत पळयलां?"

"वरो मरे तू." रवळू हांसलो, "सगळे रामायण आयकून सीता रामाली कोण काय म्हणून विचारता? म्हज्या दोळयांनी न्हय जाल्यार हांव कितें तुज्या दोळयांनी पळयतलो?"

म्हाका दिसले म्हजे प्रस्न हे ताजी मस्करी करपाखातीर हांव विचारतां अशें रवळू मानता. आदी तो समज काडून उडयले बगर रवळू उलोवचो ना. आनी हांवे तशी फोडणीशी केली.

"तरी सांग" रवळून म्हळें, "तुवें सुर्वेक सावन खबर आयकल्ली जाल्यार तू दुसरो प्रस्न विचारपाचोच न्हय. यो आर्मी थंय बसूया. निकती इशारत जाल्या. पालखी भायर सरूंक उणेच अर्दवर लागतले. तोमेरेन हांव तुका सगळे सांगता."

रवळू जें सांगता ते फट अशें मानूंक हांव कबूल नासलो. पूण त्याच बरोबर तो सांगता त्या गजालीचेर म्हजो निखालस विस्वास बसना आसलो.

तागेले म्हणणे फट अशा खातीर म्हणूं नज की तो आपलोच अणभव सांगतालो. ताजे घर देवळाकडच्यान आठ धा कोसांचे वाटेर.

रवळू आठ वर्सांचो आसतना घडिल्ली ती गजाल. तो आपल्या भावा सांगतान जात्रेक आयिल्लो. भाव ताज्या परस आठ धा वर्सांनी व्हडलो. चलून दोगय आयले आनी जात्रेक आयिल्लेकडेन भावाक तागेले इश्ट मेळ्ळे. भाव इश्टावांगडा भोवता आसतना ताणे रवळूक थोडे पैसे दिले आनी फेरयेंत भोंव आनी चौकांत वचून बस अशें सांगले.

फेरयेंत भोंवतना रवळूक एक दादलो मेळ्ळो. ताणे ताका हटकिलो. आपल्या सांगतान व्हरून ताका च्या फराळ दिलो. आनी मागीर ताका घेवन तो देवळा फाटल्यान गेलो. देवळा फाटल्यान वच जाल्यार एक नवोच गांव रवळूक दिश्टी पडलो. दिव्यांचो झगझगाट आनी तरेकवार लोक थंय आसलो. तांच्या सांगतान रवळू रमलो. देवळा फाटल्यान गांव आसा काय ना हे तो नकळो आसलो. पूण तो गांव खूबच अप्रुपाचो. बायलो, दादले, भुरगी थंय आसली. रवळू भुरग्यां सांगतान खेळूंक लागलो. खेळटा खेळटा तो भावाक विसल्लो आनी थंयच न्हिदलो.

हे वटेन रवळूचो भाव जात्रेंत रवळूक सोदूंक लागलो. तो मेळ्ळो ना देखून कोणाय सांगतान घरा गेलो आसतलो अशें येवजून फांतोडेचेर घरा गेलो. भाव आयलो, रवळू आयलो ना हें पळोवन घरच्या लोकांचेर आकांत आयलो. तोमेरेन सकाळ जाल्ली. घरचो लोक रवळूक सोदूंक देवळाकडेन गेले. कांय जाण फाटल्या वटेच्यान आशिल्ल्या रानांतय गेले.

त्या प्रसंगाचे वर्णन करताना रवळू सांगता, 'हांव जमनीर न्हिदिल्लो. उठलो तेन्ना पळय जाल्यार हांव झाडाचेर आसा. एका दादल्यान म्हाका घट्ट धल्ला. म्हज्या मुखार बरे बरे खाण आशिल्ले ताट आसा. म्हाका भय दिस नासलो. पूण सकल म्हाका भाव सोदता तो

दिश्टी पडटालो. तो म्हाका उलो मारतालो. उलो म्हाका आयकूंक येतालो. पूण म्हज्या तोंडातल्यान उतर भायर सरना आसले. म्हाका उतरच फुटलें ना. हांवें हात हालवपाचो यत्न केलो. म्हजे हातय हालना जाले. हांवे देवाकडे मागले, भावाली नदर वयर वचची आनी हांव ताका दिश्टी पडचो. तो झाडापोंदा लेगीत आयलो पूण ताका हांव दिसलो ना. आनी म्हज्या तोंडातल्यान उतर फुटले ना.'

रवळूचो भाव निर्शेवन घरा गेलो. तांका रवळू मेळ्ळोच ना. आठ दीस मेरेन रवळू त्या दुसऱ्या लोकांमदी आसलो. ताका कितेंच उणें पडले ना वा ताका कसलेच त्रास जाले नात. ताका घरची याद येताली तितली सोडली जाल्यार दुसरी कसलीच अडचण नासली. आठ दिसा उपरांत एक दीस त्या मनशान रवळूक विचाल्ले, 'तुका घरा वचूंक जाय.'

ते सरशी रवळू रडूंक लागलो. त्या मनशान ताका समजायलो. आनी व्हरून देवळाकडेन सोडलो. रवळू रडत, रडत आपल्या घराच्या दिशेन चलत रावलो. कोणेतरी ताका पळयलो आनी घरा पावयलो.

रवळूक घरा आयिल्लो पळोवन सगळ्यांक खोशी जाली. पूण इतले दीस तो खंय आसलो तें कोणाकच कळ्ळें ना. लोकांनी ताजी खबर आयकून घेवन म्हळें, 'ताका देवचारान ना जाल्यार भुतांनी व्हेल्लो आसूंक जाय.'

रवळू भुतांनी व्हेलो आनी तो परत आयलो ही खबर गांवभर जाली आनी सगळे लोक ताका पळोवंक आनी भुताविशीं ताज्यो खबरो आयकूंक येवंक लागले. त्या दिसा सावन रवळू हो गांवचो एक वेगळोच भुरगो जावन बसलो आनी भुतांच्यो काणयो तो तेन्नासावन सांगत आसता.

'भूत वा देवचार कसो आसता?' हांवे ताका विचाल्ले.

'म्हाका तरी तीं हेर मनशांसारकीच दिसलीं. ते कितें आसता जाणा तूं? रवळून सांगले, 'तांच्यांनी आपणाक जाय तसलें रूप घेंव येता. आपूण कोणाक दिश्टी पडचो वा दिश्टी पडचो न्हय हे लेगीत भुतां आनी देवचार थारायतात. देखून हांगा ह्या खिणाक भुतां नात अशें आमच्यांनी म्हणूंक जावचें ना. पुण ती आमकां दिसनात. मनीस मेलो तरी आत्मो मरना. तो तसोच उरता. ताका सद्‌गती मेळसर तो भूत आनी देंवचार जावन वावुरता.''

रवळू आतां आपल्या अणभवा भायल्यो गजाली उलोवंक लागलो इतलें वळखून हांवे म्हळें, 'आता पालखेचो वेळ जाला देखून हांव वतां. पूण एक सांग त्या दिसा उपरांत तुका परत भूत वा देवचार दिश्टी पडला?'

'ना. पूण अजून म्हाका ती याद आसा आनी हांव जाणा कोणाक दिश्टी पडचे आनी कोणाक दिश्टी पडचें न्हय हें भुतांच थारायतात.'

हांव उठून देवळांत गेलों आनी रवळून सांगलें त्या सगळ्या गजालींचेर म्हजो इल्लोय विस्वास बसलो ना तरी देवळाकडल्या लोकांमदी एकाद्रो देवचार वा भूत आसतलें असो म्हाका दुबाव येत रावलो.

त्या दिसा रवळून सांगिल्ली खबर आयकत सावन म्हजे तकलेंत भुतां नाचूंक लागलीं.

गर्तीच्या वेळार चान्यांत झाडाची सावळी हाल्ली वा पानां सळमळी जाल्यार म्हजी नदर थंय भूत वा देवचार दिसता काय म्हणून सोदूंक लागली.

केन्नाय हांवे मेळिल्ल्या मनशाक खळूर्ची खबर सांगर्ची. आनी अजापाची गजाल म्हळयार जितल्याय लोकांकडे हांवे तो विशय काडलो तें सगळे भुतांखेतांचेर विस्वास दवरपी आसले.

म्हाका एक मर्नीस मेळ्ळो. ताणे आपलो अणभव सांगलो. तेन्ना तो एके कार्रेगचेर क्लिनर म्हणून काम करतालो. पणजे सावन माशेलांत ती कार्रेर वताली. त्या दिसा मान्नी पुनव आसली. कार्रेर पुराय भरिल्ली. रायबंदर एका मनशान हात दाखयलो. कार्रेर थांबली आनी तो मर्नीस कार्रेरीर चडून बसलो. काळोख आसलो. त्या काळखांत फकत तागेली विडी दिसताली. ताजे पैशे घेवंक कंडक्टरान हात फुडें केलो जाल्यार ती विर्डी पालवली आनी सामकार कोणच दिसलो ना. कोण तरी कार्रेरीचे दार उकते करून चलते गाडयेतल्यान देंविल्याचो आवाज आयलो. पूण चडतना जो मर्नीस सगळयांनी पळयिल्लो तो देवतना दिसलो ना. कोणेतरी वात पेटयली. कार्रेरीत कोण नासलो.

ही खबर सांगून त्या मनशान म्हळें, ''तो देवचार आसलो म्हणपाचे म्हाका मार्गीर कळ्ळे. बाणस्तारी पावतकूच तो देवचार नाच जाल्लो.''

भुताखेतांच्यो आनी देवचाराच्यो खबरी हांवे ह्या आर्दीय आयकल्ल्यो. पूण त्यो आयकता आसतना लोकांच्या कल्पकतेचे म्हाका अजाप दिसताले. विस्वास केन्नाच बसना आसलो. एका मनोवैज्ञानिकाचे अशें म्हणणे आसा की ती एक प्रकारची इबाडील्ली नर्व्हस सिस्टीम आसता. तसल्या मनशाक भास जातात. पूण कार्रेरीतल्या प्रसंगाचे उदाहरण घेतलें जाल्यार सगळयाच लोकांक एकाच वेळार एकसारको भास कसो जालो ह्या प्रस्नाची जाप मेळना.

गोंयचे भोंवडेर आयिल्ल्या एका इश्टाक घेवन हांव त्या गांवच्या देवळाकडेन पावलो तेन्ना ताणे रातींच्यावेळार त्या देवळांत रावपाचो म्हाका आग्रो केल्लो. म्हजी तयारी नासली पूण म्हाका रावचें पडलें. देवळांतल्या भटाकडेन वासपूस केली तेन्ना सांगलें कि आपले घर मात्शे पयस आसा. पूण आमकां रावपाचे आसत जाल्यार ताणी आमची वेवस्था करपाची तयारी दाखयली आनी विचाल्ले, ''रातींचे रावन तुमी कितें पळयतले?''

हांवे ताका खळूली खबर सांगली आनी ती खरी काय म्हणून प्रस्न विचाल्लो.

निर्विकार तोंडावळो तसोच दवरून भटान म्हळें, ''खळू कित्याक फट सांगतलो? गांवचो लोक ती खबर खरी मानता. पूण खळू उपरांत कोणेच हांगा भुतां पळोवंक नात वा खळूक लेगीत परत भुतां दिश्टी पडूंक नात.''

''देवळा फाटल्या रानांत भुतां आसतात म्हणटात तें खरें?''

''त्या रानांत राखणे वतात तांकां काय तेन्ना भूत दिसूंक ना.''

''आनी जात्रेची खबर खरी?''

''ती मात खरी.'' भटान जाप दिली, ''जात्रे दिसा रातीकडेन देवळा लागसार कोण रावना. पूर्वपार चलत आयिल्ली ती चाल. गांवच्या लोकांक रातीच्या वेळार दिव्यांचो

उजवाड दिसता आनी मनशांचो आवाज आयकूंक येता अशें ते सांगतात.''

इतलें जाले उपरांत तो इश्ट रवळूक मेळूंक सोदूंक लागलो. त्या भटानच आमकां रवळूलें घर दाखयलें.

रवळू घराच आशिल्लो. बाकी इश्टान ताजो फोटो काडलो तें पळोवन तो खुशालभरीत जालो आनी ताणें विचारपाची फुरसत म्हाका सांगिली ती भूताची काणी मीठ मिरसांग लावन सांगली.

''एक सांग.'' इश्टान रवळूक म्हळें, ''तुका भुतांनी उखलून व्हेल्लो तेन्ना तूं आठ वर्सांचो आसलो त्या उपरांत तुवें भूत वा देवचार पळयला?''

प्रस्नात अविस्वासाची खोंच आसा अशें पळोवन रवळू बरो वेळ ओगी रावलो उपरांत ताणे म्हळें, 'ना.' पूण आठ वर्सांचो आसलो तरी म्हजो उगडास घट आसा.

''भुतांची जात्रा तुवें पळयल्या?'' इश्टान दुसरो प्रस्न विचारलो. त्या प्रस्नाकय रवळून मान हालोवन ना अशी जाप दिली.

''तशें जाल्यार तुगेल्या गजालीचेर म्हजो विस्वास ना. आज रातचो हांव हांगा रावतलो. देवळाफाटल्या रानांत वतलों. तू म्हजेवांगडा येता?'' इश्टान विचाल्लें.

रवळू गडबडलो. ताका जाप फुटली ना. बऱ्या वेळान ताणे म्हळें, ''आमी गेले म्हणून आमकां भुतां दिसतलीच अशें ना.''

''पूण जर तीं दिसलीं ना तर ती आसात अशें कशें मानू येता?'' इश्टान विचाल्लें.

हो संवाद वाड्यावयली एक बायल आयकताली. तिणें म्हळें, ''भुतां पळोवपाची उमेद आसा जाल्यार जात्रेच्या दुसरे दिसा रातीच्या वेळार देवळकडेन वचून पळयात. सगळी भूतां त्या दिसा जात्रेक येतात.''

''तुवें पळयल्यात?'' इश्टान तिका विचाल्लें.

''ना.'' पूण हांवें उजवाड पळयला. बोवाळ आयकला. ते रातीकडेन गांवांत नकलामी घडटा. ती पळयल्या. एक वर्स आमचो पाडो गोठ्यांत बांदिल्ले कडचो ना जालो दुसरे दिसा तो पाडो बायंत मेळ्ळो. ताजें आंगाक झरकटलें लेगीत ना हें कशें जालें?...

देवळाकडेन जात्रेच्या दुसऱ्या दिसा पळयलें जाल्यार नाल्ल सोलून वडयिल्ली सोण्णां, फुलां- फळांच्यो साली आनी बियो. काकणांच्यो कंवच्यो थंय आसतात...'' तिका मदीच थांबोवन इश्टान विचाल्ले. ''तें तुवें पळयला?''

''पळयलां म्हणून कितें विचारता? फाटल्या जात्रे दिसांनी लेगीत देऊळ झाडूंक हांव गेल्ली देखून सांगता.''

आमी थंयसून परतले तेन्ना इश्टान म्हळें, ''हे लोक फट उलयतात अशें मानप कठीण. आमकां फटोवन तांकां कितें मेळटलें? पूण तें खरें मानूंक मन तयार जायना.''

ते रातीकडेन गांवचे सात-आठ तरनाटे आमच्या सांगतान देवळा फाटल्या रानांत गेले. कोणाच्या हातांत चूड तर कोणाच्या हातांत बॅटरीचे दिवे.

सगळ्यांक देवळाकडेन थांबोवन रवळूक सांगताक घेवन म्हजो इश्ट एकटोच फुडें गेलो.

वतना ताणें लोकांक म्हळें, ''आमी उलो घालो जाल्यार तुमी धांवत येयात.''

थोडे फुडें वतकच रवळून रानांत पेटिल्ले दिवे दाखयले. इश्टाकय ते दिश्टी पडले. ताणी उलो घालो तशे लोक आयले. पूण उजवाड घालतकच कांयच दिसना जालें.

''आतां पळयलें?'' रवळून इश्टाक विचाल्लें.

''तो काजुल्यांचो चोमो आसूंये.'' इश्टान म्हळें आनी ताणे दिवे पालोवंक सांगले. दिव्याच्या झकझकाटाची एक आकृती दिसली.'

सगळे लोक विस्मित जाले आनी भुतां भुतां म्हणून पळूंक लागले.

हांवे इश्टाक म्हळें, 'भोगूं तें. या आमी. परत येतना वाटेर इश्टान म्हळें, ''म्हाका दिसता चकचकताले ते एक खाशेले झाड. रानांत असली झाडां आसतात ती काळखांत दिव्यावरी चकचकतात. पूण हांव त्या झाडाक वळखना.''

केन्नाय तरी एक्या वनस्पती शास्त्रज्ञाक घेवन येवन रुजवात करपाचें इश्टान थारायलां. म्हाकाय ताजी उत्सुकता आसा. तो योग केन्ना येता पळोवया.



# पिंपळ

सोळा-सतरा  वर्सांची एक चली. आंगलोटान बारीक बडी कशी. मात्शी मोटवीच. हायर सेकंडरीच्या वर्गांत शिकता. उलोवंक हुशार आनी चुणचुणीत. एकाद्रो प्रस्न विचारलो जाल्यार लांबचे लांब जाप दितली.

हांवें ताका विचारलें, ''तुजे नांव कितें?''

''स्वाती!'' ताणें जाप दिली. आनी आपली वळख करून दिवपा खातीर कुळाचो इतिहास सांगलो. मूळ गांव खंयचो आनी ते उपरांत तांचें कुटूंब खंय खंय रावंक गेलें, तांगेले सोयरे कोण हें सगळे ते चलयेन सांगून उडयलें.

परिक्षेक पाठ केल्लीं उत्तरां ताकतिकेन सांगून उडोवची तशी ती उलयताली.

वरभर उलयली. आयकतां आयकतां म्हाका इतलें जाणवलें कीं ते चलयेचे उमाळे उल्कट आसले. पूण तिचे कडेन भाशेचें बळ ना. मनांतली भावना उतरांनी उक्तावपा इतली उतरावळ तिचे कडेन ना. खूबश्यो गजाली तिच्या तोंडा वयले बदलते भाव पळोवनच समजून घेवच्यो पडटाल्यो आनी तिगेले दुबळे भाशेक लागून जायते फावटीं ती सगळोच गोंदळ करताली.

पूण हांवें तिका मर्दी आडायली ना. ती सांगताली तें सगळें आयकून घेतलें आनी समजलें ना तें समजून घेवपाचो यत्न केलो.

स्वातीची खबर म्हळयार एके चलयेच्या मनांत खोल रोमून उरिल्ली एक खंत. खऱ्यांनीच ते खबरे फाटल्यान एक कथा आसा, एक व्यथा आसा. कथा आसा ती पूर्वापार चलत आयिल्ल्या चिवट संस्कारांची आनी मान्यतायांची. व्यथा एके चलयेची, जिका ज्या घरांत ल्हानपण सारिल्लें तें घर, तो वाडो, तो वाठार सोडून परके कडेन वचचें पडिल्लें.

शारा लागसारच शेतां मर्दी एक रुंद बांद. बांदाचेर दोशीं माड. एकेवटच्यान बांद रस्त्याक तेंकला. दुसरे वटेन तळयाचे धडे मेरेन पावला. पावसाच्या दिसांनी ह्या बांदाचेर रावन खंयय नदर घाली जाल्यार शेकानशेक पातळिल्लीं पांचवीं शेतां मनशाच्या मनांत फुडाराचें सपन केळयतात.

बांदार ल्हान भुरगीं केन्ना मिठफळयांनी जाल्यार केन्ना लगोऱ्यांनी खेळटालीं. एकाद्रें येवाळें, एकाद्री हरयाळी, एकाद्रो पाणसोरोप भुरग्यांच्या दोळयां मुखावयल्यान शेतांतल्यान बांदार येतालो वा बांदा वयल्यान सरपटत शेतांत रिगतालो. दुदाचे दांत अजून झडूंक

नाशिल्ले पिरायेंचीं भुरगीं. पूण तांची भोंवतणच्या संवसारा कडेन वळख-देख बऱ्यांतली. जिवाणें पळोवन तीं भियेनासलीं वा ताका मारूंक्‌य मुखार सरनासलीं.

ह्याच शेताचो रंग श्रावणांतले वत पडूंक लागना फुडें हळडुवो जावंक लागतालो. आनी जे अवस्थेतल्यान रोप्यांची पातीं वतालीं तीच अवस्था त्या पांचव्या मदल्यान फुटिल्लीं कणसांय पळयतालीं. आर्दीं पोपटीं, पुराय पोकीं कणसां, तीं पांचवीं जातासर भितर दूद धरतालें, आनी दुदाचो दाणो जाता जातां कणस पिकून भांगर जातालें.

ह्याच शेतांनी गिमाच्या दिसांनी फुटबॉल आनी क्रिकेटीच्यो मॅची जाताल्यो. केन्ना केन्नाय गणसाबैल घेवन येवपी लोक तंबू टोकून कांय दीस थंय राबितो करताले. पावस लागीं येता तशें शेतकामती शेतांत देवंक लागताले. मागीर पावसांत नडणी, लुवणी आनी मळणी. दर एके अवस्थेचो एक परमळ बांदभर पातळटालो. घरांत न्हिदिल्ले कडेन ल्हान भुरगें लेगीत मळणी सुरू जाल्या हें वासा वेल्यान वळखतालें.

शिंयाचे दीस आयले म्हणटकच ह्या शेतांत निरवल्यो रोवपाक सर्त लागताली. शेतकार कोणय आसूं - निरवल्यांची कुणगी मागता ताका मेळटाली. कांदे, कणगां, भेंडे, विरवीर, मिरसांगो... तरेकवार शाकभाजी आनी काळगां. ल्हान भुरग्यान सकल देवन बालदी भरून हाडची इतल्यो उथळ बांयो. निरवल्यो शिंपपाचें काम म्हळ्यार भुरग्यांक एक पर्वणी म्हळ्यार सर्जनाचें कवीत अणभवपा सारकें. बांदावेली भुरगीं हें सगळें करतालीं. तातुंतय एकाद्रें कणंग भाजून खावपांत वा कार्लींग फातराचेर चांचावन फोडपांत मजा आसताली.

ह्या वातावरणांत स्वाती ल्हानाचें व्हड जालें. व्हड म्हळ्यार पिरायेचीं तेरा चौदा वर्सां. पूण त्या वाटारा कडेन, थंयचे रुखावळी कडेन, थंयच्या वदलऱ्या सैमा कडेन, तरेकवार सवण्यां कडेन आनी जिवाण्यांकडेन हेर भुरग्यांवांगडा स्वातीचेंय एक नातें तयार जाल्लें.

बांदाच्या एका तोंकार आशिल्लें तळें हें लेगीत भुरग्यांचें व्हडलें आकर्शण. पावस सोंपतासर तळ्यांत साळकां फुलूंक लागतालीं आनी चवथीच्या दिसांनी भुरगीं तळ्यांत बुचकळ्यो मारून साळकां काडटालीं! बोंगे म्हळ्यार साळकाचीं फळां, ते काडून तांतुंतले नाचणे माणें लागसर खावपाची गोडी वेगळी. उबाळाच्या दिसांनी ह्या तळ्यांत म्हशी आनी भुरगीं हांचे मर्दीं बुचकळ्यो मारपाची सर्त लागताली. आनी तरेकवार सवणीं आपली तान भागोवंक त्याच तळ्याचेर येतालीं. गीम तापलो तशें उदक आटत वता, रेवो दाटत वता, तेन्ना तळ्यांतले नुस्तें मारपाची मौज आगळी.

स्वातीचें भुरगेंपण ह्या वातावरणांत गेलें. केन्ना तरी जाण्टेल्यांनी ह्या बांदाचेर एक ल्हानशें घर बांदिल्लें. मातयेचें घर. गांवठी नळयांचें. घरचे लोक वाडले तसो चुडटांच्यो पाकेतीं लावन घराचो विस्तार जायत गेलो. ते दीस वेगळे आसले. भाटकाराक दिसतालें, आपले माड राखूंक जाग आशिल्ली बरी. एके भाशेन स्वातीच्या आज्याचे मुर्स्तींत लेगीत तोच त्या बांदाचो भाटकार आसलो. उपरान्त भाटकारा कडले संबंध बदल्ले.

घरा फाटले वटच्यान एक म्हाल म्हातारो पिंपळ. ते पिंपळाचे सांवळेक एका काळार भाटकारान नाल्ल दवरूंक चार लोजां बांदिल्लीं. स्वातंत्र्या उपरांत त्या चार लॉजांनी आनीक

चार बिराडां आयलीं. सगळो बांद ह्या पांच कुटुंबाचे मालकीचो जावन बशिल्लो. निदान भुरग्यांक तरी तशें दिसतालें.

पिंपळा भोंवतणी खंयचे मुर्स्तांत कोणें पेड बांदिल्लें, देवाक खबर! दर वर्सा पावसांत ताची माती व्हांवन वताली आनी चिरे मेकळे जाताले. कोणें तरी एक खेपे त्या पेडाचेर पणटीय पेटयली. रातीच्या वेळार घुगूम आनी पारवे पिंपळाच्या खांद्यांचेर बसून पांखां फांफुडटाले वा तरेकवार आवाज काडटाले आनी घरांत न्हिदिल्ले कडेन ल्हान भुरगीं भियेतालीं. कोणे तरी तांकां सांगिल्लें, त्या पिंपळाचेर देंवचार आसा. देंवचार कोणेच पळोवंक ना. पूण देंवचाराची एक कल्पना भुरग्यांच्या मनांत घर करून बशिल्ली.

दिसाचो पिंपळ म्हळयार सगळ्यांचेच आवडीचो जागो. दाट शितळ सावळी. पानां सळसळ्ळीं म्हणटकच तानपुऱ्याच्यो तारो झणकारिल्लो आवाज येवचो.

पिंपळाच्या मुळांत एक नागाचें जोडें रावता. तो वाठाराचो नाग अशें लोक म्हणटात. केन्नाय दोगांय दिसतालीं. नागान फोडा काडली म्हणटकच भुरगीं किंळचून घरांत धांवताली. जाण्टेले दिवे पेटोवन ताका मागणी करताले.

लोकांचो नागाचेर मोटो भावार्थ. तो वाठाराची राखण करता, आमी ताचे वाटेक गेले नात जाल्यार तो आमचें वांकडें करचो ना अशें ते मानताले. ल्हान भुरग्यांक पेडा भोंवतणी खेळपाची मेकळीक. पूण गुंडे शेंवटिल्यार नागाचेर पडत म्हणपाची शिटकावणी.

ल्हवू ल्हवू भुरग्यांचो सोरपा विशींचो कांच गेलो. भुरगीं आपल्या खेळांत गुल्ल आसतालीं आनी सोरोप आपले वाटेन वतालो असले प्रसंगय घडले. मागीर मोनजात आनी मर्नीसजात हांचे मदीं एक अलिखित सहजीवनाचें नातें निर्माण जालें.

हे सगळे अणभव कंवळे पिरायेर स्वातीच्या मनांत गच्च भरिल्ले. एकेक अणभव म्हळयार तागेल्या भुरगेपणाची एकेक अवस्था.

एक दीस खूब पावस पडलो. आकांताचो वारो सुटलो. बांदावेले कितलेशेच माड करकरून मोडून पडले. कांय माडाचें काळावेच उबून गेले.

पिंपळा मुळांतल्या चार बिराडांचें घर खचलें आनी स्वातीच्या घराचे नळे पयस शेतांत शेंवटले. आकांताचो पावस. घर सारकें करपय शक्य नासलें. मागीर एक व्हड आवाज जालो. रातीच्या वेळार घरांतले सगळे लोक भायर उक्त्यार पावसांत आयले. म्हालम्हातारो पिंपळ हुमटून पडटा तो तांणी दोळ्यांनी पळयलो. पूण पिंपळाकय जाल्यार मनशांचो हुस्को आसलो. एक खांदो चार कुडींच्या लॉजाचेर आनी दुसरो खांदो स्वातीच्या घराचेर अचळय दवरून पडटां पडटां पिंपळ उबो रावलो.

पिंपळ पुराय कोसळ्ळो ना. पूण ताणें आवाज केलो तो आकांताचो. सगळ्यांक सादूर रावचे खातीर इशारत दिल्ले वरी.

ते राती कडेन घराक नर्काचे रूप आयिल्लें. पावस घरांत रकतालो. रस्त्याचे पलतडीं दुसऱ्या शेताचे पलतडचे धडेर शाळेची एक इमारत आसली. पांचय बिराडांतली मनशां रात मारूंक ते शाळेच्या व्हारांदांत गेलीं. ते अवस्थेतय स्वातीक आनी हेर भुरग्यांक मजा

आयली.

"आतां कितें जातलें?" स्वातीन आवयक विचारलें.

"फाल्यां भाटकाराक सांगून आमी घर सारकें करून घेतलीं आनी परत थंयच रावंक वतलीं." आवयन जाप दिली.

ते पिरायेचेर स्वातीक एक उमेद दिसली. ह्या निमित्तान नव्या घरात रावंक मेळटलें म्हणपाची ताका खोशी जाली.

घर सारकें करतलो जाल्यार पिंपळ मारचो पडटलो. स्वातीच्या बापायन शेजाऱ्यांची बसका घेतली आनी विचार केलो. जो पिंपळ मारता ताचो कुळक्षय जाता अशें शास्त्रवचन आशिल्ल्याची गवाय भटान दिली. भाटकारान तांकां सांगलें, 'हांव तुमकां भायर काडूंक सोडिना. पूण पिंपळ माल्ले बगर तुमचीं घरां सारकीं करूंक मेळचीं नात."

एकूय घर अशें नासलें, जाचेर पिंपळाची खांदी देंविल्ली नासत. तिच्या भारातळा मातयेच्यो वण्टी चड दीस उब्यो उरच्यो नात. तेन्ना कितें करपाचें?

आयच्या युगांत भाड्याचें घर सोडटना भाडेकाराक कायद्याची जी कितें राखण मेळटा ती सगळे भाडेकार जाणा आसले. फाटीं फुडें भाटकार त्या बांदाचेर बिल्डींग बांदतलो आनी आपणाक फुकट फ्लॅट मेळटलो अशें सपन तांणी पळयिल्लें. पूण हें विपरीतच घडिल्लें.

खूब जाणां कडेन तांणी विचारून घेतलें. पिंपळ मारपाचे कल्पनेक कोणेंच तेंको दिलो ना. घर जाय कुटुंबाक सवस्तकाय उरचे खातीर. पिंपळ मारिल्ल्यान कुळक्षय जाता जाल्यार घराचो उपेग कितें?

कोणें तरी देवाचो प्रसाद घेवपाची बुद्द दिली. प्रसाद जालो ना. पूण प्रसाद घेतल्या भटान एक आडवाट दाखयली. ताणें म्हळें, "तुमी पिंपळ आपल्या हातांनी मारचो न्हय. दुसऱ्या कोणेंय तो मारलो जाल्यार तुमकां कांयच बादचें ना."

परत बसका जाली. कोणाकडच्यान तरी पिंपळ मारून घेवपाचो विचार फुडें आयलो. झाडां मारपी जायते लोक आसात. पूण खंयच्याच धर्माचो मनीस पिंपळाक कुराड लावंक कबूल जायना.

मजगतच्या काळांत भाडेकारांक खंय तरी निवारो जाय आसलो. ते जळामळाक शिंपडले आनी पावसाळो थांबसर तांचीं घरां मातयेभरवण जालीं.

स म्हयन्या उपरांत भाटकारान खंयच्यान मनीस हाडले ताकाच खबर. तांणी पिंपळ मुळा सयत मारून उडयलो. आनी त्या बांदाचेर प्लॉट तयार करून लाखांनी रुपया जोडले.

ही सगळी खबर सांगून स्वातीन म्हळें, "आतां थंय सोबीत सुंदर बंगले उबे रावल्यात. बांदा वयल्या रस्त्याक डांबर घाला आनी दोशीं शेतां भरून काडून बांद रुंद केला. आता तो बांद कसो दिसना."

एकाद्र्या झाडाक आपले भुयेतल्यान हुमटावन दुसरे भुंयेंत रोवचें तशी स्वातीच्या मनाची आवस्तकाय जाल्ली हें म्हाका समजतालें. पूण मनाच्यो ह्यो भावना उक्तावपाखातीर

ताचे कडेन उतरां नासलीं.

"तुका वायट कित्याचे दिसलें?" हांवें ताका विचारलें, "बांदार नवीं घरां आयलीं तें वायट दिसलें कांय पिंपळ मारलो हें वायट दिसलें?"

खीणभर स्वातीन येवजिलें आनी म्हळें, "आमकां तो बांद सोडचो पडलो म्हणपाचे चड वायट दिसलें. पिंपळ मारिल्ल्याचें वायट दिसलेंच, पूण तेच बराबर अजापूय दिसलें की तो मारतल्याचें, भाटकाराचे वा थंय रावतल्यांचें कांयच वायट जावंक ना. कुळक्षयाचो धाक आमकांच कित्याक घालो?"

स्वातीच्या प्रस्नाक हांव जाप कितें दितलो? तरी हांवें म्हळें, "कांय संस्कार आमच्या मनांत घर करून रावतात. पिंपळ मारिल्ल्यान खऱ्यांनीच वायट जाता कांय कितें तें हांव नकळ.पूण तुमी पिंपळ मारिल्लो जाल्यार तुमचें मन सदांच कांचवेल्लें उरपाचें आनी त्या कांचाक लागून घरांतली सवस्तकाय भंगपाची."

"पूण म्हजो एक प्रस्न आसा." स्वातीन म्हळें, "एकाद्री गजाल वायट आसत जाल्यार ती अमक्या धर्माच्या लोकांकच वायट पडटा. दुसऱ्या धर्माच्या लोकांक बादना अशें कशें जावं येता?"

हांव हांसलो, "धर्म वेगळो आनी संस्कार वेगळो. लासप हो उज्याचो धर्म आनी भिजोवप हो उदकाचो. भेदभाव करिना आसतना उजो लासता आनी उदक भिजयता. संस्कार ही मान्यताय. जो जशें मानता, वा ज्या काळांत जी मान्यताय चलत आयल्या ते संस्कार. पिंपळ मारल्यार पातक लागता अशें मानपा फाटल्यान असो समज आसा की पिंपळांच्या झाडाचेर कृष्ण रावता. घडये पिंपळा सारकेलें झाड ओगींच मारचें न्हय म्हणून तसो भंय घाल्लो आसूं येता. शेनवाराक चणे खाल्यार शनी बादता वा हुंदराक मारल्यार गणपतीक राग येता अशें म्हणपा सारकोच तो प्रकार आसूं येता."

स्वाती ओग्गी रावलें.



# बे-रंग

जांबावलेच्या गुलालाक गेलों म्हणटकच एक पोरनी याद मनांत जागी जाता.

शिगम्याचो मुख्य दीस मंगळार. तोच गुलालाचो दीस. एकामेकांक गुलाल लावन वर दोन वरां खेळप आनी तो खेळ खेळटना समाजांतले सगळे भेदभाव कुशीक दवरप आनी निमाणे पाण्ट्यार वचून न्हावप. ल्हानपणांत शिगम्याचें तेंच मुखेल आकर्शण आसताले आनी अजून तें उणे जावंक ना.

गुलाल म्हण्टकच उगडास जाता तो इतल्याच गजालीचो. पूण ह्या गुलालाकडेन आनीक एक याद गुंथिल्ली उल्ल्या.

सात आठ वर्सां जाली आसतली ते गजालीक. गुलाल रंगांत आयिल्लो अशा वेळार अचकीत म्हज्या आंगार ओलो रंग पडलो. वयले माळयेर सावन तो पडिल्लो. फक्त रंगच न्हय तर एक ल्हानशी रंगाची बाटली म्हज्या दाव्या हाताच्या हाडाचेर पडिल्ल्यान हातय दुखूंक लागिल्लो. कोणेतरी आगळीक केल्ली. रंगाचें वायट दिसलें ना. पूण गुलालाच्या नेमांत ते बसना आसलें. हांवें तकली वयर करून पळयलें. जनेलांत चलयांची आनी बायलांची गर्दी. तांच्यो नदरो गुलालान आपले तोंडावळे लिपोवन बशिल्ल्या वळखीच्या लोकांक सोदताल्यो. म्हाका दिसलें, बायलां फाटल्यान उबो रावन कोणेय तरी आगळीक केल्ली आसूंक जाय.

म्हाका राग आयिल्लोच आनी ज्या कोणे ही आगळीक केल्या ताका जर वेळारच समज दिलो ना जाल्यार एक अनिश्ट प्रथा रूढ जातली अशें कितेंशें येवजून हांव ती बाटली हातांत घेवन गर्देतल्यान वाट काडीत माळयेचीं सोपणां चडून वयर गेलों. सगळी माळी बायलांनी आनी भुरग्यांनी भरिल्ली. एकूय दादलो थंय नासलो. तें चित्र पळयना फुडें म्हजो राग अर्दो न्हिवलो. बायलांचेर वा भुरग्यांचेर कितें धेंगशेतलो एके कुशीक कोण तरी माथ्यावयल्यान पांगरून घेवन सुस्त न्हिदिल्लो. दुबाव येतकच तो बळावंक वेळ लागना.

"हो कोण न्हिदला?" हांवें विचाल्लें, ताणे माथ्यावयले पांगरूण कुशीक काडले, "न्हिदला कित्याक?" हांवें ताजेकडेन वासपूस केली.

"जोर आयला." ताणे जाप दिली.

"सवंगा करूं नाका." हांवें म्हळें, "माळयेर रावन रंगाची बाटली भायर शेंवटून मारतना जोर येवंक नाशिल्लो दिसता?"

ताज्या म्हऱ्यांत एक बायल बशिल्ली. तिणे म्हळें, "तुजे कितेंय तर्ग चुकता. सकाळच्यान ताका जोर आयला. न्हिदून आसा."

ते बायलेन सांगतकच म्हजो विश्वास बसलो. हांवें हातांतली रंगाची बाटली दाखयली आनी तिका घडिल्ली खबर सांगली.

तो मेरेन आमचें कसलें झगडें चल्लां म्हणून पळोवंक दोन चार बायलो थंय आयल्यो. हांवें तांकां घडिल्ली खबर सांगली तेन्ना एका भुरग्यान म्हळें, "ती बाटली एके बायलेन उडयल्या आनी ती बायल आतांच सकल देंवन गेल्या."

हांवें भोंवतणी नदर भोंवडायली आनी मनांतल्या मनांत चडफडत सकल देवन परत गुलाल खेळूंक गेलो.

पाण्ट्याचेर न्हाता आसतना म्हज्या लक्षांत आयलें कि ते बाटलेंतलो रंग म्हज्या हाताचेरच न्हय जाल्यार तोंडाचेर लेगीत उसळ्ळा आनी कितलोय घांसलो तरी वचना.

न्हावन परत आयलो. मेळिल्लोय मनीस म्हाका तोंडाक कितें जालां म्हणून विचारूंक लागलो. कांय जाणांक तर अशें दिसलें कि हांवें न्हाता आसतना गुलाल सारको धुवून घेतलो ना. तो मेरेन राग इतलो न्हिविल्लो कि तो रंग उडयतले बायलेक तापोवन काडपाचें मनांत येना आसलें. केन्ना काय घरा वचून स्पिरीट बी कितेंय लावन तो रंग पुसून काडीन अशें म्हाका जाल्लें.

देवळांत वचून भेट घेतली आनी भुकेची वेवस्था करचे खातीर चार इश्टावांगडा हॉटेलाकडेन आयलों. हॉटेलांत खूब गर्दी. देखून भायले वाटेन उबे रावन आमी उलयताले. इतले म्हणसर एक चली येवन आमचे कुशीक उबी रावली. गर्देच्या वेळार अशे खुबशे लोक उबे रावतात देखून हांवें तिजेकडेन लक्ष दिलें ना. पूण एका इश्टान म्हळें, "ती चली तुका मेळूंक रावता दिसता."

हांवें चलयेकडेन पळयलें. तिजी नदर म्हजेरच थिराविल्ली. जेन्ना हांव तिका पळयता म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना तिणे नदर सकल व्हेली आनी संकोचान न्हेसणावयल्यान हात भोंवडायलो.

सुमार अठरा वीस वर्साची ती चली आसतली. सामान्य रुपाची. चार चौगींत नदरेत भरपासारकी न्हय. फकत तिचे दोळे नदरेंत भरताले. कृश बांद्याचे आनी ल्हानशाच तोंडावळ्याचे ते चलयेले दोळे खूबच मोठे आनी वाटकुळे दिसताले. बेबकाच्या दोळ्यांसारके. हांवें याद करपाचो यत्न केलो. हांव तिका वळखना आनी केन्ना मेळिल्ल्याचीय याद जायना. तरी ती खऱ्यांनीच म्हाका मेळूंक रावता काय कितें हो दुबाव काडून उडोवया अशें येवजून हांवें विचाल्लें, "तू म्हाका मेळूंक रावताली?"

ती उलयली ना. फकत एक वेळ नदर वयर करून तिणे तकली हालयली आनी हय म्हणून सांगलें.

"कितें जालें?" संभाशणाक आरंभ करूंक जाय आसलो म्हणून हांवेंच विचाल्लें.

"ती रंगाची बाटली...." संकोचान तिका फुडें कितें उलोवचें ते येवजना जालें आसूंये.

"तुवें सकल उडयली?" हांव विचाल्लें.

नदरेंत गुन्यावकाराचे भाव हाडून तिणें म्हळें, "चुकून तुमचेर पडली."

"इतले गर्देंत वयल्यान रंगान भरिल्ली बाटली सकल उडयतकच ती कोणाचेरय पडूं येताली..." हांवें म्हळें.

"हांवें मुद्दाम उडोवंक ना. चुकून पडली." तिणे जाप दिली.

"पूण ती उकती बाटली हातांत घेवन गुलाल पळोवंक येवप हें पिशेपण न्हय?"

"हांव बाटली जनेलाचेर दवरून चित्र काडटालें. फाटल्यान कोणाचो तरी हात म्हज्या हातार बसलो आनी म्हजो हात बाटलेचेर बसून हातांतल्या ब्रशासयत बाटली सकल पडली." तिणे जाप दिली.

कितें घडिल्लें तें एक खिणाभितर लक्षांत आयलें. तितले म्हणसर हॉटेलांतले मेज रिकामे जालें आनी हांव इश्टावांगडा हॉटेलांत गेलो.

केदांवेळ मेरेन ती चलो थंयच उबी आसली. उपरांत ती गेली.

त्या दिसा घराकडे येवन म्हज्या आंगाचेर पडिल्लो रंगाचे डाग पुसून काडूंक म्हाका मोटे सायास पडले. रंग इतलो चिकट की तो काडटा आसतना तेद्या कुडक्याची कात सोलली. आठ दीस मेरेन तो डाग घेवन भोंवचें पडलें. तितले पुरते ते घडणुकेची याद येताली. हरशीं हांव ते चित्रकार बायलेक विसरूनय गेल्लों.

सुमार दोन एक वर्सां उपरांत एक मनीस म्हाका मेळूंक आयलो. आपली वळख दिता आसतना ताणे आपलें नांव सांगलें आनी म्हळें, "नांवान तूं म्हाका वळखुचो ना. पूण हांव ते चित्रकार बायलेचो घोव जिची रंगाची बाटली जांबावले शिगम्याक गेल्लेकडेन तुज्या आंगार पडिल्ली."

खिणभरयात तो प्रसंग परत दोळ्यामुखार उबो रावलो आनी नकळटा म्हजो हात तोंडावयल्यान रंग पडिल्ल्या भागाचेर गेलो. तोमेरेन डाग पुसून गेल्लो आनी नवी कातय आयिल्ली.

हांवें ताका बसोवन घेतलो आनी येवपाचें कारण विचाल्लें.

"म्हाका बायलेन तुजेसरी धाडला." ताणे म्हळें, "तिणे कांय चित्रां काडल्यांत. जांबावलेच्या गुलालाचेंय चित्र तातूंत आसा. चित्रांचें ती एक प्रदर्शन भरोवंक सोदता."

"कल्पना बरी आसा. हांवें चित्रां पळोवंक नात. पूण तुवें एकाद्र्या चित्राचो फोटो आनी प्रदर्शनाविशीं माहिती हाडिल्ली आसत जाल्यार हांव ती खोशयेन छापीन." हांवें म्हळें.

"ना. तशें न्हय. प्रदर्शन कशें भरतात तें आमकां खबर ना. आमचे वळखीचो कोण ना. प्रदर्शन भरूंक जाय अशेंय ना. ती चित्रां विकचेली आसात. आमकां पैशांची गरज आसा." ताणे येवजून आयिल्लें काम थोड्या उतरांभीतर सांगलें.

"म्हाकाय त्या विशयाचो व्हडलोसो गंध ना." हांवें ताका म्हळें, "एकाद्र्या वळखीच्य मनशाक हांव चीट दितां. ताका मेळून पळय. म्हजो कांय उपेग जावपासारको ना."

''एकाद्रें चित्र विकतें घेवप तुका साध्य जानलें. आनी तुजे वळखीन दोन चार चित्रां खपलीं जाल्यार आमकां तितलोच आदार मेळटलो. सगळीं आठ चित्रां आसात.''

''तुवे हांगा चित्रां हाडल्यांत?'' हांवें विचाल्लें.

''ना. चित्रां घराकडेन आसात. घराकडेन म्हणचेपरम्स तिगेल्या कुळारा आसात.''

''एका चित्राचे पैसे कितले?''

''तेंय आमकां खबर ना. तूंच मोल थाराय आनी जाय तितले दी.''

हांवें ताका सांगलें ''असल्या बऱ्या चित्रांक हजारांनी रुपया येतात. तूं म्हणटा तीं चित्रां हांवे पळोवंक नात. पूण तसलीं चित्रां विकतीं घेवपी लोक वेगळेच आसतात. म्हाका ती तांक ना.''

निर्शेणी ताज्या तोंडार उदेली. तरीकय निमाणो यत्न करपाच्या सुरांत काकुळटेक येवन ताणे म्हळें, ''तुजे वळखीन एकाद्रें चित्र जरी खपलें तरी आमची गरज भागतली.''

ताजी लाचारी पळोवन म्हाका दिसलें खऱ्यांनींच तो अडचल्लो आसतलो. देखून बायलेन कुळारा दवरिल्लीं चित्रां विकून गरज भागोवपाचें ताणे थारायलें आसतलें. हांवे ताजेकडेन बारीकसारीक खबर घेतली आनी ताणेय ती तितल्याच मेकळ्या मनान सांगली.

ताजें तिजे कडेन लग्न जाल्यार वर्सभर जालें. तो विधूर. तागेली पयली बायल ल्हान पिरायेचेरच मेली. ताका तिजेपसून एक ल्हान चलो आसा ज्याची पिराय आयज चार एक वर्सांची आसतली. ताका दुसरें लग्न करचेलें नासलें. घरांत जाण्टो बापूय जाका दम्याचो त्रास जाता आनी तो घरांतच आसता. आवय ना आनी ल्हान भुरगो. सगळ्यांनी ताका घर सांबाळचेखातीर लग्न करपाचो सल्लो दिलो. भुरग्याखातीर आनी बापायखातीर लग्नाक तो तयार जालो. तशी ताजी पिराड चड न्हय. पूण ताजी विवंचना अर्थीक. एके चाळींत दोन खणी बिराडांत तो रावतालो. घरांत नळ ना. वीज ना. त्या बिराडाचें भाडें वेळार फारीक करतना लेगीत ताका अडचण येताली. आर्दी तो पोस्टमनाची चाकरी करी. उपरांत ताणे एक ल्हानसो गाडो घाल्लो. पयले बायलेच्या कुळारचे लोक ताका आदार दिताले आनी जोड चड नासली तरी खर्च भागतालो. पयली बायल मरतक तागेल्यो कटकटी वाडल्यो. धंद्यांत ताजें चित्त लागना जालें आनी ल्हान भुरग्याक आनी जाण्ट्या बापायक सांबाळचेखातीर चडसो वेळ तो घरांतच रावंक लागलो. सोयरेदायरे खूब आसात. पूण अडचल्ल्याक ते खंय पावतात? शेजाऱ्यांनी जाता तसो आदार दिवचो. पूण घर सांबाळप हें कटकटीचें काम आसता. घर सांबाळूंक गेल्यार धंदो बंद उरता आनी धंदो चलयतलो जाल्यार घरांत सगळेंच अडटा.

ते चित्रकार चलयेची सोयरीक कोणेतरी ताका हाडली आनी रोखडेंच तांचें लग्न जालें. पूण बायल मायेस्त. सवतीलो मानीना आसतना ल्हान भुरग्याचो सांबाळ करता आनी मांवाची सेवा करतना कसलीच्च कागाळ करिना.

''आतां आमी वेगळेच अडचणींत आयल्यांत. स म्हयन्याचें भाडें आमी दिवंक ना आनी मालक भाडें फारीक करना जाल्यार बिराड सोड असो तगादो करता. घरांत

विकपामारके कांय ना. बायलेच्या हाताक चार कांकणां आसात....' उलयना, उलयता ताज्या दोळ्यांत दुकां आयली.

तागेली बायल नोकरी करूंक तयार आसली. पूण नोकरी केल्यार घरचें कशें चलतलें? तिणे लग्नाआदीं थोडी चित्रां काडिल्लीं. तीं विकलीं जाल्यार वेळ मेळटा तेन्ना ती चित्रां काडूंक सोदता.

हांवें एका इश्टाक फोन करून चित्रांची खबर सांगली. ताणे हाडून दाखोवंक सांगलीं. हांवें त्या मनशाक पन्नास रुपये दिवन म्हळें, "तीं चित्रां घेवन यो. पळोवया कितले पैसे येतात ते."

पैशांची ताका गरज आसली. पूण म्हजेकडच्यान पैशे घेवंक तो अनमनतालो. हांवें ते ताज्या बोल्सांत घाले तेन्ना ताणे म्हळें, "उशणे म्हणून दवरतां, उपरांत फारीक करतां."

तो वतना हांवें ताका इश्टालो पत्तो दिलो आनी म्हजे उपकार मानून तो गेलो.

त्याच दिसा सांजच्या वेळार इश्टालो फोन आयलो. तिगेलीं चित्रां एकदम बरीं आसलीं. पूण सगळीं वायटीन खाल्यांत. एकूच चित्र बरें आसा. तें आपूण घेतां आनी ताका एक हजार रुपया दितां.

एक हजार रुपया घेवन तो थेट म्हजेसरीं आयलो आनी म्हजे पन्नास रुपया हांवें नाका म्हणटा आसतनाय परत दिवंक लागलो. हांवें ते घेतले नात. ताणे खूब आग्रो केलो. हांवें म्हळें, "सध्या तुजेकडेन आसूं दी. मुखार पळोवंया."

परत एक खेपे जांबावलेचो शिगमो आयलो आनी मनांतली ही पोरनी याद जागी जाली.

***

अंदू जांबावलेच्या शिगम्याचो गुलाल हांवें चुकयलो. गुलाल सोंपतकच उसगं वचून देवाची भेट घेवपाचें थारायलें. भेटेक लांब रांग. चक्रव्यूहासारखी देवळामुखार उबी. रांगेत उबो रावल्यार भेटेचो योग केन्ना येत म्हणपाचो भरवंसो नासलो. गर्दी उणे जायसर रावचें अशें थारावन हांव भायले वटेन वचून उबो रावलो. सगळो प्राकार गुलालान भरिल्लो आनी वातावरणांतय गुलालाचो धुळ आसलो.

इतलें म्हणसर म्हजीनदर म्हज्या मामकार उबे आशिल्ले एके बायलेचेर गेली. नदरेक नदर मेळ्ळी आनी ती एक रुक्ष हांसो हांसली.

हांवेय हांशिल्ले भाशेन करून नदर दुसरेकडेन व्हेली. एक वळखीचो म्हजेसरी आयलो आनी आमच्यो गजाली सुरू जाल्यो. ती बायल मात थंयच उबी आसली. आनी मर्दी मर्दी आमचेवाटेन पळयताली.

ती कोण ते म्हज्या लक्षांत आयलें ना. वळखीची दिसना. बायल जाण्टी आनी थकिल्ली दिसताली.

पंदरा मिनटां मेरेन त्या वळखीच्या मनशाकडेन उलयता आसतना म्हजी नदर भोवन भोवन तिजेकडेन वताली. आनी ती कोण हें कुवाडें म्हाका सुटना आसलें.

परत देवळाकडेन येवपाखातीर हांवे त्या वळखीच्या मनशाचो निगेप घेतलो इतलें म्हणसर ते बायलेन हात फुडें केल्ले भाशेंन दिसलें. हांव तिजेसरी गेलो आनी म्हळें, ''तू म्हाका रावता?''

''हय'' तिणे जाप दिली. ''दनपारच्यान तुका सोदताली. खंय दिसलो ना. आतां घरा परतुपाच्या वेळार अचकींत तुका पळयलो. पूण येवन हटकूवपाचो धीर जालो ना. तू म्हाका वळखलो न्हय?''

हांव तिका पळयत रावलो आनी ना म्हणून तकली हालयली.

''तुजो गुन्याव ना. खूब वर्सां आदीं आमीं मेळिल्लीं हांगा ह्याच जाग्यार, ह्याच दिसा.''

याद काडपाचो यत्न करीत ती उलयताली सट्ट करून म्हज्या दोळयांमुखार ते रंगाचे बाटलेचो प्रसंग उबो रावलो आनी हांवे म्हळें, ''तू ती चित्रकार न्हय मूं?''

''आता कसो वळखलो!'' ती हांसली, ''हांव ती. म्हज्या रंगाची बाटली तुजेर पडिल्ली.''

'म्हाका रोखडीच तिगेल्या घोवाची याद जाली. आनी हांवे म्हळें. ''तुजो घोव येवंक ना?''

काचाबूल जाल्ले भाशेन तोंड करून तिणे पदर आंवुळळो. मान सकल घाली आनी उक्त्या पायाच्या आंगठ्यान जमीन उस्तूंक लागली.

म्हजें कितेंय चुकिल्ले? हांव तिका वळखूंक विसरिल्लो?

म्हजी नदर तिगेले मंगळसूत्र सोदताली. पूण माने भोंवती गुंठलायिल्ल्या पदराक लागून तिज्या गळयांत तें आसा काय ना हें कळूंक मार्ग नासलो.

कितेंय तरी उलोवंक जाय आसलें म्हणून हांवें म्हळें, ''म्हाका सारकी याद जायना. मजगतीं तुजो घोव म्हाका मेळूंक आयिल्लो....?''

'हय' हुडको गिळचो तशा आवाजांत तिणे जाप दिली. ''पूण आतां तो ना.''

पोरनी वळख दाखोवन मुजरत जाप दिवंक आयिल्ले एका बायलेच्या काळजावयल्या चवनाची माव हांवे विनाकारण उसयिल्ली. विशय बदलचो अशे थारावन हांवे तिका विचाल्लें, हालीं चित्रां काडटा काय ना?''

तकली हालोवन तिणे ना अशें सुचयलें आनी म्हळें, '' लग्ना उपरांत हांवे एकूय चित्र काडूंक ना.''

फुडें कितें उलोवंचे ते म्हाकाच समजना जालें. तितली वळख वा संवकळ आसती जाल्यार चड वासपूस करू येताली.

''बरें तर म्हणून हांव तिचो निरोप घेवंक लागलो. ''तुकाय वचूंक जाय आसतलें. खंय आसता तूं हालीं?''

''कुळारा.'' तिणे गांव सांगलो ना.

आपल्या हातांतली पर्स उक्ती केली आनी एक कागदाची घडी भायर काडून म्हज्या मुखार धर्ल्ली, म्हाका दिसले, ती चीट आसतली वा तिगेलो पत्तो.

हातांत घेवन पळय जाल्यार पन्नासाची नोट.

"हें कितें?" हांवें म्हळें.

"पन्नास रुपये दिवंचे उरिल्ले. आज तू मेळटलो आनी ते दितली अशें येवजूनच आयिल्ली." तिणे म्हळें.

"कसले पैसे?"

"ताणे तुजेकडल्यान उशणे घेतिल्ले. म्हाका परत परत याद दितालो...."

म्हाका त्या पन्नास रुपयांचो उगडास जालो आनी हांवें म्हळें, "कसलेशे पैशे? दवर तू."

"नाका म्हणूं नाका. म्हाका वायट दिसतले. आमी गरीब. पूण दुसऱ्याच्या रिणांत उरली जाल्यार मुक्ती मेळची ना. तुजे उपकार आसातच पूण हे पैशे घे."

हांवे ती नोट परत दिवपाचो आनीक प्रयत्न केलो ना.

फकत म्हळें, "तुजी चित्रां हांवे पळोवंक नात. पूण म्हजो इश्ट ती वाखाणटालो. तुवें चित्रां काडपाचे बंद करूंक जायना आसलें.

तिणे खंती हांसो तोंडार हाडून म्हळें. "जिणेचो रंग जेन्ना उडून वता तेन्ना चित्रांत रंग खंयचो भरतली? भुरगेपणांतले दीस वेगळे. पूण त्यो यादी लेगीत वायटीनी खावन उडयल्यो.

"संवसार चलता. हांव एके शाळेंत शिकयतां." ओले दोळे पदरा पुसून ती ताकतिकेन गेली.



# शेबा

‘बेंगळूराक सावन उटीक वता आसतना बसींत एकदम बोवाळ जालो आनी निर्जन वाठारांत अचकीत बस थांबली.’ रेल्वेच्या प्रवासांत म्हज्या डब्यांत आशिल्ल्या सांगात्यान एकदम सांगलें.

तो म्हाका सांगता म्हणपाचे म्हाका कळ्ळें लेगीत ना. दोन बर्थाची पयल्या वर्गाची कूपे. एदो वेळ तो वयल्या बर्थाचेर न्हिदिल्लो. हांव सकल्या बर्थाचेर जनेलाकडेन पाय सोडून बसून पुस्तकवाचतालों.

तो सकल  देंवलो. हांवें पांय कवळ्ळे. बर्थाचे दुसरे कुशीक तो मांडी घालून बसलो आनी तोंडांतल्यान अर्द स्पश्ट आवाजांत ताणे देवाचे नांव घेतलें. ताचो आवाज विचित्र दिसलो. देखून हांवें पुस्तकांतली नदर वयर काडून ताचेकडेन पळयलें. सभाग्यान दाव्या हातान आपलो सकलो ओठ ओडून धल्ला आनी उजव्या हातान दात आनी ओंठ हांचेमदीं तंबाखू भरता आनी तोंडांतल्यांन देवाच्या नांवाचो जप मात चालूच दवल्ला.

म्हाका मनीस निखालस आवडलो ना. जनेला कडेन येवन तो भायलेवटेन थुकलो आनी परत आपल्या जाग्यार बसून कितें कितें गुणगुणत रावलो. हांवें खीणभर ताका सारको पळोवन घेतलो. माथ्याचे केंस सामके बारीक. भोवन्याकडेन ल्हानशी शेंडी, जिची गांठ मारिल्ली. कपलाक तांबड्या गंधाचें नाम. तो पुडवें न्हेशिल्लो आनी वयल्यान बुशशर्ट घाल्लो. तंबाखूचो रोस ओडून भितर घेता आसतना ल्हान भुरग्याभाशेन आवाज काडटालो.

विचित्र मनीस, हांवें मनांत म्हळें.

कोचीन मेरेनच्या प्रवासांत तोच म्हजो सांगाती उरतलो.

तो केन्ना न्हिदतलो आनी हांव दिवो वाडोवन बर्थाक फाट तेकयतलो हाजी वाट पळयत हांव पुस्तक वाचतालो. पूण तो अजून न्हिदपाचें नांव घेना. मंगळूर स्टेशनावयल्यान गाडी सुटली तेन्ना तो न्हिदिल्लो. घडये ताजी न्हीद आतां पुरी जाल्ली आसतली.

तितलें मदी उटीच्या वाटेर निर्जन जाग्यार अचकीत बस थांबली अशें व्हडान ताणे म्हळें. म्हाका दिसलें देवाच्या नांवाचो जप सोंपलो. आता ताजें स्वगत भाशण सुरू जाल्लें आसतलें.

हांवें नदर पुस्तकांतच थिरायली आनी ताच्या बडबडीची दखल घेतली ना.

दोन मिनटां मोनीं गेलीं. उपरांत ताणे व्हडान विचाल्लें, 'न्हिदलो काय कितें?'

पुस्तक कुशीन काडून हांवें ताजेकडेन पळयलें. आनी तो म्हाकाच हटकिता म्हणपाची खात्री केली.

'हांव तुकां एक खबर सांगतालो.... जिणेंतलो एक अणभव. तुका न्हीद येता जाल्यार न्हिदूया. आयकुपाचे आसत जाल्यार सांगता.' ताणे म्हळें.

म्हाका न्हीद येताली अशें न्हय. पूण दुसऱ्या दिसा दीसभर तंय्कवार कार्यक्रम आसले. आनी रातीचे जागरण जालें जाल्यार दुसऱ्या दिसा त्रास जातलो ह्या विचारान हांव न्हिदूंक सोदतालो. पूण ताका तशें सांगलें ना. म्हळें, 'सांग आयकता.'

'खूब वर्सा आदली गजाल ती.' ताणे म्हळें, 'मे म्हयनो चलतालो. आतां बंगळूरची हवा लेगीत आदले वरी उरूंक ना. आदी बंगळूराक वातानुकूलीत शार म्हणटाले. थंयची हवा बाराय म्हयने थंड उरताली... तुका सांगलें जाल्यार खरें दिसचें ना विजेचे पंखे विकपी दुकानां तेन्ना बंगळूराक नासलीं.... पूण हांव सांगता ती गजाल हालींची. मे म्हयन्यांत खूबच गरम जावंक लागलें. म्हाका ब्लड प्रेशराचो त्रास जाता. त्या भायर काळजाच्यो ल्हान सान कागाळी आसतातच. डॉक्टरान सांगिल्लें, म्हयनोभर उर्टीसारक्या थंड जाग्यार वचून विसव घे. देखून हांव बसीन उटकमंडाक वचूंक भायर सरिल्लो तेन्नाची ही गजाल.'

'इतल्या वर्सांनी अचकीत तुका याद कशी जाली?' हांवें ताका विचाल्लें.

'भायले वटेन एक इगर्ज पळयली. धव्या रंगाची ती इगर्ज चान्यांत नदरेंत भरली आनी अचकीत म्हाका त्या प्रसंगाचो उगडास जालो.' ताणे जाप दिली.

परत एक खेपे सिटावयलो तो उठलो आनी म्हळें, 'तोंड धुवन येता मागीर सारकी खबर सांगता. खूब व्हडली खबर. अर्नाकुलम पावसर सांगून सोंपची ना.'

तो उठून बाथरुमांत गेलो आनी हांवें बेगींबेगीन एक चादर भायर काडून म्हज्या बर्थाचेर हातुळ्ळी.

तो परत येयसर हांव पुस्तक दवरून पांय दोडून न्हिदिल्लो. फकत एके कुशीचो थोडोसो जागो ताका बसूंक सोडिल्लो. तो येना फुडें हांवें ताका म्हळें, 'तुजी खबर आयकुपाची आसा पूण चड लांबोवं नाका. म्हाका फाल्या खूब कामां आसात आनी तीं सोंपोवन रातची परत गाडी धरूंक जाय.'

तो म्हजेकडेन इंग्लीशींतल्यान उलयिल्लो. देखून हांवय ताजे कडेन इंग्लीश भाशेंतल्यान उलयतालो. ताचें नांव म्हाका काय खबर ना. पूण तो एक तर खंयच्याय देवळांतलो पुजारी आसूंये ना जाल्यार देवभक्त तरी आसूंये अशें म्हाका दिशिल्लें. वळख करून घेवपाचो उपचार हांवें टाळ्ळो आनी ताणे सरळ आपलो अणभव सांगूंक सुरूवात केली.

एके बायलेक हार्ट अॅटक आयिल्लो. उदकांतल्यान भायर काडिल्लें नुस्तें फडफडटा तशी ती फडफडटाली. सगळे तिका पळयताले पूण  कितें करचें तें कोणाकच कळना आसलें. इतले म्हणसर एक तरुण चली फुडें आयली आनी तिणें आपल्या कडचे बॅग उक्तें करून ते बायलेक एक इंजक्शन दिलें. आनी म्हळें, तिका हांगाच देवोवंक जाय. चौगांनी तिका धरली आनी सकल देंवयली. फुडें तिचें करचें कितें हें कोणाकच  समजना. पॅसेजरांमदीं दोन तरांचे लोक आसले. थोड्यांक वचपाची ताकीद आसली. थोड्याक त्या बायलेची काकुळट दिसताली. बरी गजाल इतलीच की दीसा उजवाडी तो प्रसंग घडिल्लो. सगळे पॅसेंजर सकल देंवले. ते बायलेक रस्त्या कुशीकच झाडामुळांत जमनीर न्हिदायली आनी आता फुडें कितें करचें असो प्रस्न सगळ्यांकच पडलो.

'आतां केदो वेळ हांगा रावपाचें?' एका पॅसेंजरान कंडक्टराक विचारलें.

कंडक्टर गडबडून गेलो. ताणे हेर पॅसेंजरांच्या तोंडाकडेन पळयलें. दुसऱ्या एका पॅसेंजरान इंजक्शन दिल्ल्या चलयेक विचारलें, 'डॉक्टर  आता कितें करूंया?'

'चली केदीशी?'

'आसत वीस बावीस वर्सांची. तीय खूब भियेल्ले भाशेन दिसताली. तिका कांयच येवजना जालें. तेन्ना हांवे तिका विचाल्लें. 'ही बायल तुजी कोण लागता?'

'ती म्हजी कोण न्हय. हांव तिका वळखना आनी हांव डॉक्टरय न्हय.हांव मेडीकल कॉलेजांत शिकतां. उटीच्या एका खाजगी नर्सींग होमाखातीर पॅथेड्रीनची इंजक्शनां हांवे हाडिल्लीं. ती बायल तळमळटा तें पळोवन हांवे तिका एक इंजक्शन दिलें. आता तिका न्हीद लागतली. पूण फुडें कितें करचें तें हांव नकळ. म्हाका दिसता तिका बरोच गंभीर हार्ट अटॅक आयला. ते चलयेन सांगलें.

'तिका बसींत न्हिदावन उटीक व्हरूंया. ना जाल्यार हांगा रानांत रावलें म्हणून कितें जातलें?' एका पॅसेंजरान उव्देगाच्या सुरांत सुचयलें.

'म्हाका दिसता हे अवस्थेंत तिका हालोवंक जायना. अॅब्युलन्स वा स्ट्रेचराचेर घालून हॉस्पिटलांत व्हरूंक जाय.' ते चलयेन सुचयलें.

'हें सगळे करतलो कोण? ते परस तूंच कित्याक तिजेसरीं रावना? आमी उटीक पावना फुडें अॅब्युलन्स धाडून दितात.'

उलयतलो उरफाट्यांनी उलयतालो कांय खऱ्यांनीच तशें सुचयतालो तें कळूंक मार्ग नासलो. पूण ते चलयेन म्हळें, 'हांव रावतां. ह्या बायलेच्या जाग्यार  म्हजी आवय आशिल्ली जाल्यार हांव रावतलीच आसलीं.'

म्हाका त्या चलयेची काकुळट दिसली. तरुण चली. सांगाताक जाण्टेली बायल आसा तीय बेशुध्द रानांत तिका एकटी सोडून वचप म्हाका सारकें दिसलें ना. म्हजी तिच्या

सांगातान रावपाची तयारी आसली. पूण लोक कितें अर्थ समजतले तें येवजून हांव फाटी सल्लो. तिचेसरी गेलो आनी म्हळे, 'तुजो एकाद पावोवंक जाय.जाल्यार हांव पावयता.'

हरशी काचाबूल जाल्ली ती चर्ली गोड हांसली. तिणे आपल्या पर्सींतली डायरी काडून एक पान पिनून काडलें. ताजेर फोन नंबर बरयलो आनी म्हळें. 'हो म्हजो घरचो फोन. म्हज्या बापायक सांगलें जाल्यार तो गाडी धाडटलो. पूण अॅब्युलन्स जायच अशें सांग.'

पेशंटाचे आनी तिच्या सांगातान राविल्ले चलयेचे सामान देंवोवन बस फुडें गेली. म्हजें मन मात रावन रावन ते चलये भोंवतणी घिट्ट्यो घालतालें. नाका जाल्ले दुबाव मनांत येताले. समजा ते बायलेक मरण आयलें जाल्यार रानांतले हे वाटेर कोण मोटार वा बस थांबोवचो ना. कोणे तवनासांनी वा गुंडानी रानांतल्या एकांताचो गैरफायदो घेवन ते चलयेकडेन आगळीक केली जाल्यार कशें जावपाचें?

उटी मेरेनचो प्रवास सोंपून सोंपना अशें म्हाका दिसलें. पूण शागच्या नाक्यारच बस थांबोवन हांवें त्या चलयेच्या बापायक एकाद दिलो. तो बाबडो इतलो काचाबूल जालो कि ताणे म्हळें, 'राव, फोन बंद करू नाका. तूं आसा थंय हांव येता.'

हांवे ताका बस स्टँडाचेर येवंक सांगलें आनी बस स्टँडाचेर तो आनी ताजी बायल दोगांय आयलीं.

खंयचें तरी स्टेशन लागी पावलें आनी रूळ बदलताना गाडयेचो एकताली आवाजय बदल्लो. वेग मंदावलो. रातीची साडे इकरा जाल्ली. हांवे ताका म्हळें, 'चान्यांतली इगर्ज खंय पावली?'

'हांव विसरूंक ना.' ताणे जाप दिली, 'ती गजाल फुडें येतली. 'आनी प्लॅटफॉर्माचेर देंवपाचे तयारेत ताणे म्हाका विचाल्लें, 'हुनहुनीत कॉफी घेतलो? न्हिदेक काफये सारके दुसरें वखद ना.'

हांवें जाप दिवचे आदींच तो प्लॅटफॉर्माचेर देंविल्लो. प्लॅस्टीकच्या दोन कपांनी खतखतीत कॉफी घेवन तो परत आयलो.

फुडली खबर आयकुपाची म्हाका व्हडलीशी उमळशीक नासली. तरी आपल्या पैशांनी कॉफी दिल्लो तो सहप्रवासी म्हाका खबर सांगलेबगर सोडचो ना हें हांव वळखून आसलो. हांवें ताका विचाल्लें,' आनी कितलो वेळ लागतलो ती खबर सांगूंक?'

'तुका न्हीद येता जाल्यार हांव सांगीना पूण आयकुपासारखी गजाल... एक सांग, तुजो वेवसाय कसलो?' ताणे एकदम म्हाका प्रस्न विचाल्लो.

पांच मिनटां एकमेकांची वळख करून दिवपाक खर्चली. ताजेविशी म्हजो अदमास सामको चुकिल्लो. तो केंद्र सरकारच्या एका खात्यांत वरीश्ट अधिकारी आसलो. कन्नड आनी तेलगू भासांनी लेखनय करतालो.

'म्हण्टकच हो अणभव तुवें खंयतरी बरयिल्लो आसतलो.' हांवें म्हळें.

'संपूर्ण कादंबरी बरयल्या. तीनशें साठ पानांची कादंबरी. तेलगू आवृत्ती छापून तयार जाल्या. कन्नड आवृत्ती प्रेसांत आसा. तुका एक प्रत धाडूं?'

इतलो वेळ हांव बेदरकारपणान बर्थाचेर पांय सोडून न्हिदिल्लों. म्हज्या पायांकडेन बशिल्लो मनीस एक साहित्यिक हें कळना फुडें हांवें पांय कवळ्ळे आनी उठून बसलों. ताका सांगलें, 'म्हाका दोनय भासो समजनात.'

तो हांसलो आनी हांसता हांसता ताणे बोल्सांतली डबी भायर काडून सकले दांत आनी ओंठ हांचेमर्दी तंबाखू भल्लो. उपरांत तो चघचघळीत थोड्यो गजाली केल्यो आनी टॉयलेटांत वचून तोंड धुवन येतकच ताणे फुडली खबर सांगूंक सुरूवात केली.

बस स्टँडाचेर मर्सीडीज गाडी घेवन ते चलयेचो बापूय आयिल्लो. ताच्यावयल्यान ताजी आस्पत कितें आसतली हाचो अदमास येतालो. उटीच्या शिंयाक लागून सूट सगळेच मारतात. तागेल्या बायलेन शाल पांगुरिल्ली आनी गाडयेत बशिल्लेकडेनच ती रडटाली.

चलयेचे नांव शेबा हें म्हाका तांचेकडच्यानच कळ्ळें. कन्नड उलोवपी ते कुटूंब सुशिक्षित आनी श्रीमंत दिसतालें. शेबाक कांयच जावंक ना हे आयकतकच ती दोगांय शांत जालीं. घडिल्ली खबर हांवें तांका सांगली. तेन्ना ताणें म्हाका म्हळें, 'तुका वेळ आसा जाल्यार आमच्या सांगातान मोटारीन यो. उपकार जातले. ना जाल्यार आमकां जागो सोदूंकच कळाव लागतलो.'

विश्रांती खातीर हांव उटीक वतालो. मनांत म्हळें, एक वेगळो अणभव घेवपाची.... ते चलयेकडेन वळख जावपाची संद आयल्या जाल्यार सोडची न्हय.

हांवें शेबाच्या बापायक म्हळें, 'म्हजें सामान हॉटेलांत दवरतां आनी तुमच्या सांगातान येता.'

'आमचें घर आसतना तुवें हॉटेलांत रावपाचे कारणच ना. पूण तें सगळे मागीर पळोवंया. सध्यां तुजे सामान आमच्या गाडयेंत दवर.'

अशें म्हणून ताणे ड्रायव्हराक म्हजें सामान बसींतल्यान काडूंक सांगलें.

परतीच्या वाटेर ताणेंच संभाषण सुरू केलें. 'आमच्या शेबाक कोणाची कित्याक काकुळट दिसत ताजो भरवंसो नासता. ल्हानपणा सावन अशेंच.'

तांच्या उलोवण्यावयल्यान म्हाका कळ्ळें शेबा मंगळूराक मेडीकल कॉलेजांत शिकता. सुटयेच्या दिसांनी मर्दी केन्नाय घरा येता. तेय बी आवयच्या आग्र्याक लागून. आवयक सदां तिचो हुस्को. दीसपट्टी एकखेपे तरी ती चलयेक फोन करता.'

'पूण तुमची चली खूबच हुशार आनी धाडसी म्हणपाचे पडटलें. बसीच्या प्रवासांत आसतनाच तिणे आपलेकडचे सिर्रींज काडून पॅथेड्रीनचें इंजेक्शन ते बायलेक दिलें.

आपली जापसालदारकी ती वळखली.

'ती सिरींजा म्हजें खातीरच घेवन येता. डिस्पोजेबल सिरींजा म्हाका खूब लागतात. म्हाका डायबेटीस आसा. वयले वयर इन्सुलीन घेवचें पडटा आनी शेबा म्हजी डॉक्टर... अंदू निमाणें वर्स तिचें. उपरांत पोस्ट ग्रॅज्युएशन करतली म्हणटा. पूण आमकां ती पयस उरिल्ली नाका. आमची एकच धूव.'

'पूण केन्नाय तरी तिचें लग्न करचें पडटलेंच न्हय?'

'हांवे थारावन दवल्लां. ताणे म्हळें, 'कोणय गरीब भुरगो पळोवन घर जांवय करपाचो.'

हांव कांय उलयलो ना. पूण आवयन मर्टी तोंड घालें. तिणे म्हळें. 'तशें आशिल्लें जाल्यार धुवेक इतली शिकयली कित्याक? आतां ती डॉक्टर जाली म्हणटकच तसलोच घोव तिका सोदचो पडलो आनी तशें शिक्षण घेतिल्लो भुरगो तुजो घरजांवय कित्याक जातलो?'

'हांवे गाडी थांबोवंक सांगली. ज्या जाग्यार बस थांबिल्ली थंय आमी पाविल्ले. पूण थंय कोण नासलो. हांवे सकल देंवन अदमास घेतलो. कोणाची जाग थंय ना. हांव जागो चुकलो कांय. शेबा वतली तरी खंय? उटीक मावन भायर सरतना शेबाल्या बापायन व्यंकटरायान - आपयिल्ली ॲब्युलन्स आमच्या फाटल्यान येवन उबी रावल्ली. 'खंय आसा पेशंट?' त्या ॲब्युलन्सी सांगातान आयिल्ल्या मनशान विचाल्लें.

हांव गोंदळ्ळो. शेबाय ना आनी पेशंटय ना.

'तू जागा चुकला आसतलो. पुराय वाटेक आमका ॲब्युलन्स मेळूंक ना. दिसा उजवाडी दोगांय अदृश्य कशी जातलीं.

म्हाकाय तसो दुबाव येवंक लागलो. पूण रस्त्याच्या कुशीक सिगरेटची रिकामी पाकीटां आनी वेफर्साचे रॅपर्स आसले देखून तोच जागो आसतलो अशें म्हाका दिसतालें.

इतले म्हणसर सकल्यान वयर चडत येतल्यो दोन बायलो दिश्टी पडल्यो. तांच्या माथ्यार लाकडाचे भोरे आसले. तांचेकडेन हांवे वासपूस केली. तांकांय कोण दिश्टी पडूंक ना अशें तांणी सांगलें.

लागी वस्ती खंय आसा अशें विचारलें तेन्ना दोंगराच्या मुळसांत एक गांव आसा अशें तांणी सांगले.

कितें करचें तें म्हाका समजना जालें. पूण शेबाचो बापूय शांत आसलो. ताणे सुचयलें. 'शेबा उटीक वचूंक ना हे नक्की. आमी सरळ बंगळुराकच या आनी खबर घेवंया. शेबाचो सभाव तुमकां खबर ना. तिका बंगळूराक वचपी कोणाचीय गाडी मेळिल्ली आसली जाल्यार ती त्या बायलेक घेवन बंगळूराक लेगीत गेल्ली आसतली.'

'पूण बंगळूराक खंयच्या हॉस्पिटलांत तिका सोदपाची?' हांवे विचारलें.

'आमी तिच्या हॉस्टेलांत या. फुडले फुडें पळोवंया अशें म्हणून तो गाडयेंत बसलो.

गाडी सुरू जायना फुडें शेबाची आवय व्हडाव्हडान रडूंक लागली. तेन्ना घोवान तिजेर धेंगसो घालो. म्हळें, 'तुकाच हुस्को आसा अशें न्हय, आमकांय आसा. पूण आकांतून गेल्यार कितें जातलें?'

म्हाका मात तिजी काकुळट दिसली. आवयचो कळवळो चलयेच्या बापायन वळखू नये हाजें म्हाका अजाप जातालें. मनांतल्या मनांत हांव खुबच भियेल्लो. सिनेमांत घडटा तसलें विपरीत घडिल्लें. खंय गेली कांय ती? म्हाका नसते दुबाव येताले. पूण ते उक्तावन हांव वातावरण अदीक गंभीर करूंक सोदना आसलो.

बंगळूरच्या हॉस्टेलांत वतकच आमकां कळळें की शेबा पेशंटा सांगातान वाटेर एका गांवांत आसा. गांवात एक इगर्ज आसा. ते इगर्जेचे पाद्रीन हार्ट अटॅक आयिल्ल्या बायलेक आपल्या घराकडेन व्हेल्या. शेबाले मैत्रीणीन आमकां अशेंय सांगलें कि कोणेतरी शेबाचे वतीन फोन केल्लो ताका उटीचो नंबर मेळ्ळो ना. शेबालो रकाद आपणें उटीक फोन करून दिला. फाल्या उटीक पावतली असो तो रकाद आसा.

शेबाले आवयन आपल्या धुवेचे मैत्रीणीक म्हऱ्यांत ओडली. अपुर्बायेन सांसपिली आनी ती सांगता तितलेय खरें म्हणपाची खात्री जातकच म्हळें, 'देव तुका बरें करतलो. तुका बरो घोव मेळटलो.'

भावार्थी जाण्टे बायलेन दिल्लो आशिर्वाद आयकून ती चली कीटकीटली आनी तिणे म्हळें, 'म्हजें लग्न जालां.'

आवयन अजाप आनी आनंद एकाच वेळार उक्तायलें आनी हांसून म्हळें, 'तू आमच्या शेबाली मैत्रीण. तुगेले शिकून जाले?'

'ना. शिक्षण चलतनाच लग्न थारलें. हांव फुडलें शिक्षण घेतां. म्हजो घोवय ह्याच कॉलेजांत शिकता.'

'तुजे भाशेन आमच्या शेबाकय एक बरो भुरगो मेळ्ळयार पुरो अशें हांव देवाकडेन मागता.'

हो संवाद खूब वेळ चलतलो आसलो. पूण शेबाल्या बापायक त्या गांवात वचपाची तार्कीद आसली. कशें वचप हें कोणाक विचारतलो?? उटीच्या वाटेर खंयतरी आसा इतलें कळिल्लें. आनी ज्या जाग्यार शेबा त्या बायले सांगातान देंविल्ली थंय लागीच खंय तरी तो गांव आसूंक जाय इतलो अदमास आसलो.

आमी मोटार परतिली. बंगळूर सोट्टासर सूर्य अस्ताक गेल्लो. सगळयांकच भूकय लागिल्ली. एका हॉटेलांत थोडे खावन घेतलें आनी उटीचो रस्तो धरलो.

ज्या जाग्यार बस थांबिल्ली थंय लागसार पावता पावता गांवचे पोलीस स्टेशन मास्तर

दिश्टी पडले. थंयच हांवें वासपूस केली आनी आमकां त्या गांवची वाट कळ्ळी.

'आतां रात जाल्या तरी इगर्ज सोदूंक अडचण येवची ना' त्या पोलिसान सांगलें.

दाट रानांत निर्जन वाटेर दोशी दिसतालो तो काळोख. मळबांत पुनवेचो चंद्रीम वयर सरिल्लो पूण ते चान्नें जमनीमेरेन पावना आसलें. एकाद्र्या पानाचेर, जलाशयाचेर तें चकचकतालें. पयस खंयच काजूल्याच्या उजवाडाक लागून वस्ती आशिल्ल्याचो भास जातालो.

इतलें म्हणसर एक वांद लागलो. मदीं रस्तो आनी दोशी दोन तळीं. घडये मुळांत एकच तळें आसलें. रस्त्याक लागून एकाचीं दोन जाल्यांत. चान्न्याची खरी शोबा दिश्टी पडटाली. पूण आमकां तिश्टत वेगळीच आसली. वांद सोंपलो आनी मुखार इगर्जेची धवी फुल्ल वास्तू आतां नदरेंत भल्ली. वयर विजेचे बल्ब लायिल्लों खुरीस चकचकतालो. ड्रायव्हरान गाडी इगर्जेच्या दारांतच व्हरून उबी केली आनी हॉर्न वाजयलो. दोन मिनिटां भितर शेबा धांवत मोटारी सरी आयली आनी आपले आवयचे कुशींत रिगली.

'आज गाडयेतल्यान चान्न्यात चकचकतली इगर्ज पळयली आनी तो प्रसंग दोळ्यांमुखार आयलो. व्यंकटरामान म्हाका सांगलें.'

गत खूब जाल्ली. पूण न्हीद उडून गेल्ली. जे तरेन तो सांगता ते तरेन एर्नाकुलम पावले तरी ती सोंपची ना अशें म्हाका दिसूंक लागले. पूण ताणेंच म्हळें, 'हांव तुका आडावचो ना. रात जाल्या. न्हिदतलो जाल्यार न्हीद, फांतोडेर चार वरांचेर गाडी अर्नाकुलमाक पावतली. न्हीद मेळटली ती तसलीच.'

'आता न्हीद उडली' हांवें म्हळें, 'कादंबरी बरोवची तितल्या तपशिलान तू म्हाका खबर सांगता. खऱ्यांनीच सगळें दोळ्यांमुखार घडटा अशें दिसूंक लागलें.'

गांवांत डॉक्टर नासलो. पूण शेबा बंगळूरच्या डॉक्टराकडेन उलयिल्ली. ताणे सांगिल्ली वखदां त्या बायलेच्या बॅगातच आसली. हॉस्पिटलांत तो तपासून घेवन गेल्लो. आनी म्हयन्याच्या उपचाराक लागतलीं तितलीं वखदां घेवन ती आपल्या घरा वताली.

उदीच्या लागसारच एका खेड्यांत तिचें घर. तिका कोण ना. ल्हानशा घरांत ती रावता. बँकेंत पैशे आसात ताज्या व्याजार ती आपलो खर्च भागयता. भुरगेपणात तिचो घोव मेलो. घोवाच्या हेर कुटुंबाकडेन तिचो संबंद ना. तिका एक धूव आसली, तीय तीन म्हयन्याची आसतना संवसाराक अंतरली.

शेवान ही सगळी खबर आपल्या आवयक तपशिलान सांगली आनी म्हळें, 'फाल्या सकाळीं डॉक्टर येतलो. तिका अशी सोडून हांव कशी येवं? डॉक्टर कितें म्हणटा तें पळयता आनी उपरांतच हांव घरां येता.'

बापूय तापलो. 'नाका जाल्ल्यो जबाबदाऱ्यो गळ्याक बांदून घेवपाची तुका मुळचीच

संवय.'

शेबान पर्ती जाप दिली ना. ती निखटी हांसली. इतलें म्हणसर इगर्जेचो पाद्री मोटारीकडेन आयलो.ताणे शेबाल्या बापायक अभिवादन करून शेबाच्या वावरार्ची तोखणाय केली आनी म्हळें, 'तिणे केल्ल्या ह्या पुण्याचे फळ तिका मेळटलेंच.'

'शेबा परत वता जाल्यार वचूं.' पाद्रीन सुचयलें आनी शेबान नदरेनच आपली नापसंती उक्तायली.

तिणे म्हळें, 'आता रावत जाल्यार थोड्या वरांचो प्रस्न. म्हजें सामान तुमी व्हरात. फाल्या डॉक्टर येतकच हांव येता.

बापायलो राग ताज्या तोंडाचेर दिसतालो. आवय कांय उलयली ना.

म्हाका शेबाविशी लक्तुबाय दिसताली. आतां म्हाका ती सुंदरय दिसली. म्हज्या मनांत आयिल्ले शेबाच्या धिराक हांव रावता अशें तिज्या बापायक सांगचें. पूण धाडस जालें ना.

शेबा आपले बॅग हाडूंक वताली तेन्ना हांवय तिज्या सांगतान गेल्लो. एके कुडीत मच्छरदाणी वेडायिल्ले खाटेचेर ती बायल न्हिदिल्ली. दाराकडेन पावना फुडें शेबान आपले पांयांतले सेंडल्स काडलें आनी म्हाका हात लावन ल्हव सांगलें, 'आवाज करू नाका. तिका न्हीद लागल्या.'

प्रसंग वेगळो आसलो तरी वातावरण सुखदिणे आसा अशें म्हाका दिसलें. हांवे फाटल्यान पळयलें. पाद्री अजून मोटारीकडेन उबो आसा.

शेबाची बॅग घेता आसतना दोगांच्याच हाताच्यो मुटी बॅगाचे मुठीकडेन एक जाल्यो. म्हाका ओगींच दिसलें ताणे त्यो जावंक दिल्यो. हांव आकवार आसलो. पिरायेन शेबा परस जाण्टो खरो, पूण ते चलयेकडेन पळोवपाची म्हजी नदर बदल्ल्या हे म्हाका जाणवतालें तिच्या उडट्या स्पर्शामदलें सुख हांव घेतालो आनी मेडिकल कॉलेजच्या वातावरणांत वाडिल्ली ती चली खूबच मेकळेपणान वागताली.

तिच्या हातांत एक ल्हानशी बॅग. म्हज्या हातांत जड बॅग. तिणे आपलो मेकळो हात म्हज्या फाटीर दवल्लो आनी म्हळें, 'हांव अशी ह्या पेशटांकडेन घुस्पून उल्ली आनी तू कारण नासतना अडकलो. हांवे तुजेकडेन रकाद धाडला देखून तूं त्रासांत पडलो?

तिच्या हाताचो स्पर्श सगळ्या आंगाक जाग हाडटालो. हांवे तिका म्हळें, 'तूं तशें मनांत हाडू नाका. तुजो कळवळो पळोवन म्हाकाच म्हजी लज दिसली. हांवे कितें केला म्हजें कांय अडूंक ना. हांव उटीक सुटी घेवन वतालो.'

'तशें जाल्यार आमी मेळूंया. तूं म्हजें घर जाणाच.'

'घर हांवे पळोवक ना. पूण तुज्या बापायन आपल्याच घरा रावंक सुचयलां.'

'तशें जाल्यार आमी मेळटलीच.'

म्हज्या फाटीवयलो हात तिणे काडलो.

तिणे गाडयेंत सामान दवल्लें. पूण गाडी सुटचे आदीं तिणेच बापायक म्हळें, 'म्हाका थोडे पैशे जाय.'

बापायलो राग न्हिवंक नासलो. तरी कांय एक उलयना आसतना ताणे आपल्या पाकिटांतल्यो खूबश्यो नोटी काडून तिका दिल्यो.

आवय धुवेक निमाणे घटके मेरेन कितें कितें सांगत गवली. मोटार उटींचे वाटेन धांवक लागली. जें कितें घडिल्लें तितल्यान हांव मोनो जाल्लो. मनांत उमेदीची ल्हारां उसळूंक लागली. एके तरेची घुंवळ म्हाका आयिल्ली.

गाडयेची गती वाडली आनी शेबाच्या बापायन म्हाका विचाल्लें. 'पळयली आमची शेबा? तिचेर रागार जातलो म्हळयार जावंक मेळना. तूंच सांग, हिका कसलो घोव फावता?'

हांवे जाप दिली ना. हांव निखटो हांसलो. पूण एका वेगळ्या विचारान म्हजें मन सुखावतालें. प्रथमदर्शनी प्रेम म्हणटात तसो तो प्रकार आसलो. दैवी योगय तसोच आसुंये अशें हांव मानतालो.

उटीक पावसर बरीच गत जाली. तरीकय दक्षिण भागांतल्या ह्या थंड हवेच्या शारांत शेबाच्या बापायलो जो बंगलो आसलो ताची भव्यताय नदरेंत भल्ली. बंगल्याच्या आवट हावसांत म्हजी व्यवस्था केल्ली. पूण ते हावस लेगीत राजवाड्यासारकें आसलें. जमनीचेर कार्पेट आनी कूड वातानुकुलीत.

'आयचो दीस हांगा गव आनी फाल्या तुका जाय थंय वच.' बंगल्यांत जेवता आसतना शेबाच्या बापायन म्हाका सांगलें.

म्हजेर जोगूल कोसळ्ळें. हांव वेगळेच सपन पळयतालो. जेवण जातकच कुडींत आयलो. खूब पुरो जाल्लें. दीस दगदगीचो गेल्लो. पूण दोळ्याक दोळो लागलो ना.

गाडी एका स्टेशनांत भितर सल्ली. आतां न्हिदपाचो हुस्कोच नासलो.

न्हीद पुरती उडून गेल्ली. अर्नाकुलमाक पावसर व्यंकटरायाली कथा सोंपत कांय ना असो दुबाव येतालो. ताची उलोवपाची पध्दत इल्ली पाल्हाळीक आसली तरी कथेच्या सुत्राक धरून तो आसलो. कितलेशेच प्रस्न मनांत येताले. पूण फुडें कितें घडटा ते एका वाक्यांत सांगप खंयच्याय कथाकाराक रुचपासारके नासलें. हांव फकत कथा आयकना आसलो. तर जे तरेन तो कथा रूजू करतालो ती पध्दतय म्हाका आवडिल्ली. गाडी उबी आसतना तो कथा सांगिना आसलो आनी गाडी सुरू जातकच आपल्या संथ प्रवाहांत कथेचे सूत्र फुडें व्हरतालो.

उटीच्या आवट हावसांत सकाळ इल्ली उसरां उदेता. रातची न्हीद सारकी लागूंक

नाशिल्ल्यान म्हाका सकाळच्या वेळार दोळो लागिल्लो. दारार कोणे तरी माल्लें आनी पांगरूण कुशीक सारून कुडकुडत हांवें दार उक्तें केलें.

दारांत एक नोकर आसलो. शेबाच्या बापायन गरम च्या धाडिल्ली आनी साडे आठ वरांचेर ब्रेकफास्टाखातीर बंगल्याचेर आपयिल्लो. च्याच्या ट्रेंत एक टवटवीत दवान भिजिल्लो गुलाबी गुलाब.

हांवें घड्याळ पळयली. पावणे आठ वरां जाल्ली. पाऊण वरा भितर तयार जावन हांव शेबाल्या बंगल्याची सोपणां चडलो. दारातच ताज्या बापायन म्हाका येवकार दिलो. गिरेस्ताच्या घरांत दुर्मीळ अशी कलात्मकता म्हाका त्या बंगल्यात दिश्टी पडली. भायल्या हॉलांत रिकाम्या वण्टीचेर एका नामनेच्या चित्रकाराचे पेंटींग आनी चार कोनशांनी चार व्हाज जातूंत टवटवीत गुलाब फुलिल्ले. पळयतल्यांक दिसतालें कोनशाकच ते रोयल्यात.

'काल सगळो गडबडीचो दीस गेलो.' शेबाल्या बापायन म्हळें, 'तुजी सारकी वळख करून घेवपाची लेगीत उसरपत मेळ्ळी ना.'

हांवें ताका म्हजी वळख करून दिली. हांव आंकवार म्हणपाचेर भर दिलो. सरकारी ऑफिसात म्हजो हुद्दो कितें तें सांगलें आनी बडटी मेळटकच हांव कलेक्टर पसून जावं येता अशें सुचीत केलें.

ह्या सरकारी अधिकाऱ्यांच्या पांवड्याची ताका व्हडलीशी खबर नासूंये. ताणेय चड आस्था दाखयली ना. फकत इतलेंच विचाल्लें, 'तुका घराकडेन कोण कोण आसात?'

'घर भरिल्ले आसा. आमचें संयुक्त कुटुंब जाल्ल्यान म्हज्या भावंडाभायर बापोल भावंडाय त्याच घरांत रावतात. पूण हांव घरापसून पयस उरता.'

'उटीक एकलोच आयलो?' ताणे विचाल्लें.

'गीम तापलो देखून सुटी घेवन चार दीस वेगळ्या वातावरणात सारचेखातीर आयलां अशी जाप दिवन हांव लेखक हाजी ताका जाणीव करून दिली. निवांतपणान थोडे बरप करतलो अशेंय सांगले.

ताणे हांवे सांगलें तितलेंच मोन्यांनी आयकून घेतलें. परते प्रस्न चडशे विचाल्लें नात.

ब्रेकफास्ट युरोपियन पध्दतीचो आसलो. म्हाका तो व्हडलो सो रुचना तरी जेन्ना ताणे म्हाका विचारिनासताना ऑमलेटची प्लेट म्हज्या मुखार हाडून दवल्ली तेन्ना हांवे म्हळें, 'हांव अंडे खायना. पूर्ण शाकाहारी.'

ताणे नोकराक कन्नड भाशेंतल्यान सांगलें, 'ताका कटलेट हाड.'

'व्हेजीटेबल कटलेट.' हांवें म्हळें.

'हय. हय व्हेजीटेबलच. तशें आमच्या घरांत सगळे शाकाहारी. आमी फकत अंडी खातात. पूण म्हज्या बायलेक अंडेय सोंसना. चलयेक ना म्हणचे पडटा इतले खातीर तिणे

मन माल्लां.

'शेबाय शाकाहारी?' शेबाचो विशय कसो काडचो हे येवजीत हांवे विचाल्लें.

'ताणे भितल्ले वाटेन पळोवन बायल लागी ना म्हणपाची खात्री केल्ली आनी म्हळें, 'घरांत ती अंडे सोडून दुसरे कांय सामिष खायना. भायर ह्या मेडिकल कॉलेजच्या विद्यार्थिनींचे तू जाणाच...'

ब्रेकफास्ट सोंपसर शेबाची आवय भायर आयली ना. हांव उठलो तेन्ना शेबाल्या बापायन म्हळें, 'तुजेखातीर हॉटेलाची वेवस्था केल्ली आसा. जाय तितले दीस राव. बील फारीक करपाचो प्रस्न ना.'

'अशें कशें तर....!' हांवें म्हळें, 'एक दीस तुमचो पाहुणचार घेतलो...'

'आमचेच हॉटेल ते. ह्या दिसा उटीत हॉटेल मेळप सोपे न्हय. सगळीं भल्ल्यांत. तुवें रुम बूक बी केल्लो?'

हांवे करूक नाशिल्लो. ताजे उपकार मानले तेन्ना ताणे म्हळें, 'आमची मोटार तुका पावयतली.'

हांवेच शेबाचे आवय विशीं विचाल्लें तेन्ना ताणे तिका उलो मारून आपयली. ती भायर आयली. हात जोडून हांसली आनी म्हळें, 'तुजे उपकार जाले. शेबा आज येतली. उटीक उरतले जाल्यार मर्दी केन्नाय शेबा आसतना जेवणाकच यो.'

शेबाल्या बापायक तिगेलें म्हणणे रुचलें ना असो म्हाका दुबाव आयलो. पूण ताणे म्हळें, 'तू आठ दीस आसतलो. मर्दी केन्नाय तुका आपयता.'

म्हाका दिसलें ताणे म्हाका फांफुडला.

हॉटेल बरें आसलें आनी म्हज्या ऐपती भायलें आसलें.

सांज वेळ मेरेन कोणाचोच फोन, रकाद ना. म्हाका ओगीच उमळशीक आसली ती शेबा परत आयली कांय ना तें समजून घेवपाची. तिच्या घरचो फोन नंबर म्हजेकडेन आसलो. पूण हांवें जावन फोन केलो जाल्यार तिच्या बापायची कशी प्रतिक्रिया जायत ह्या भयान हांव धजना आसलो.

सांजचो पासयेक गेल्ल्या वेळार शेबाल्या बापायची गाडी म्हज्या मुखावयल्यान गेली. म्हाका दिसलें तो घरात नासतना वासपूस केल्ली बरी. हांवें एका दुकानांत वचून फोन केलो.

'हॅलो.' एके बायलेचो आवाज.

कोणे फोन उखल्लो तें कळें ना. हांवे शेबाचीच वासपूस केली. तेन्ना तिणे आपूणच शेबा म्हणपाचें सांगलें. हांवे म्हजी वळख दिली आनी शेबान हांव खंय उतल्ला ते विचारून घेतले.

'तुज्या पेशंटाचे कितें जालां?' हांवे फोनावयल्यानच विचाल्लें.

'ती बायल बरी आसा. सध्या बंगळूराक हॉस्पिटलांत आसा.'

हांवें फोन दवल्लो. पूण मन अस्वस्थच उल्लें. म्हजे म्हाकाच हांसूंक आयले. म्हाका हुस्को कोणाचो आसलो? त्या पेशंटाचो नासलो. म्हाका उमळशीक आसली ती शेबाक मेळपाची. पूण ते शक्य नासलें. तिगेल्या वापायच्या आमंत्रणाची वाट पळयत सगळे दीस हांवें सारले.

पूण एक गजाल हांवे केली. हॉटेलांत बशिल्लेकडेन कादंबरीची सुरूवातीची प्रकरणा बरोवन काडली. दुसऱ्या दिसा म्हाका परतुपाचे आसलें. हांवें आदल्या दिसा दनपारचे शेबाल्या बापायक फोन केलो.

'तुजे उपकार जाले' हांवे ताका सांगलें,' हॉटेलांत वेवस्था बरी जाली. हांव फाल्यां सकाळीं बेंगळूराक परत वता.'

'बरें आसा. बिलाचेर सय केल्यार पुरो.' पैशे दिवपाचे नात. हांवें मॅनेजराक सांगून दवल्लां' ताणे फोनार सांगलें.

शेबाचो विशय ताणे काडलो ना आनी आपूण जेवणाक आपोवपाचे उतर दिल्लें हेंय तो विसरिल्लो. हांवेंच इल्लें धाडस केलें आनी विचारले, 'शेबा आयली न्हय?'

'हय. आयली आनी रोखडीच दोन दिसांनी परत गेली' ताणे जाप दिली आनी रिसिव्हर सकल दवल्लो.

मनांत एक कळी फुलतां फुलतां बावन गेल्ली.

हांव त्या दिसा भायर सल्लो ना. म्हजें सामान बांदून तयार दवरिल्लें. सकाळची स वरांचेर वस सुटपाची आसली.रातीकडेन शेबाच्या घरचो एक नोकर पार्सल घेवन आयलो. भितर कितें आसलें तें हांव नकळ. पूण ताणे सांगले, 'शेबाच्या आवयन हें धाडला. ते शेबाक पावोवपाखातीर, पार्सलाचेर शेबाचे नांव, पुराय पत्तो आनी फोन नंबरय आसलो. म्हाका दिसलें शेबाल्या घराकडेन जेवणाक वचचे परसय ही संद बरी म्हणूंक जाय.'

बंगळूराक पावनाफुडे हांव रिक्षा घेवन पयली शेबाल्या हॉस्टेलांत गेलो.

शेबाची भेट जाली.उपचार म्हणून हांवें ते हार्ट अटॅक आयिल्ले बायलेची खबर घेतली. अजून ती 'अती दक्षता' दालनांत आसली.'

'ती बरी जातली असो आतां विस्वास दिसता. ती शुध्दीर आसा पूण तिका लागीचो कोण आसा तें अजून कळूंक ना. एक खेपें तिजी कोणय सोयरी आयली म्हण्टकच म्हजी जापसालदारकी सोपली.' शेबान म्हळें.

आमची भेट सोंपिल्ली. परत शेबा म्हऱ्यांत येवपाक कारण ना. निमित्त उरूंक नासलें. तरीय हांवे शेबाक म्हळें, 'कितेंय लागले जाल्यार म्हाका कळयल्यार जाता. हांव बेंगळूरांकच आसता.'

अशें म्हणून हांवें म्हज्या ऑफिसाचो पत्तो आनी फोन नंबर एका कागदार बरोवन

शेबाच्या हातांत दिल्लो.

जे तरेन तिणें तो कागदाचो कुडको मेजाच्या खणांत उडयलो ती तरा पळयतकच म्हाका मेळपाची तिका आस्था ना हे हांव समजलों.

सुमार एका म्हयन्या उपरांत हांव बेंगळुराक पावलो. तेन्ना शेबाल्या हॉस्टेलांत गेलो. म्हाका कळ्ळें की कॉलेजाक सुटी आसा आनी शेबा गांवांत गेल्या. तिच्या रूमांतली मैत्रीण आसली. तिणे म्हाका येवकार दिवन विचाल्लें, 'शेबा तुजी कोण?'

हांव मात्सो गोंदळ्ळो. पूण हांवें खरें तें तिका सांगलें आनी उटीक वतना घडिल्ल्या प्रसंगाची खबर परत तपशिलान सांगली.

'ती सगळी खबर हांव जाणा.' तिणे म्हळें, 'पूण कित्याक कळना शेबा ते बायलेचो इल्लो चड हुस्को करता. भावनीक नदरेन ती ते बायलेकडेन इतली कित्याक घुस्पूची तेंच म्हाका समजना. ते बायलेक लागींचो वा मायेचो असो कोणच ना. तिणे हिका तू आपले धुवेसारकी म्हळी आनी शेबा विरगळ्ळी. 'हांव तुकाच म्हणून सांगता तिणे म्हाका सोपूत घाला. सुटयेंत ती त्या बायलेगेर वचून रावल्या.'

'खंयचे कडेन? खंय रावता ती बायल?' हांवे विचाल्लें.

'तें तिणे म्हाका सांगूंक ना. पूण उटी लागसारच खंय तरी गांव आसतलो.'

'आनी हे तिच्या आवय बापायक खबर ना?'

'तिणे सांगूंक ना आनी म्हाकाय सांगनाका म्हळां....'

'तिका सुटी पडल्या हें बापायक कळचें ना?'

तो जाणा. पूण शेबान ताका फट सांगला. तिणे आपूण रिसर्च करूंक मुंबय गेल्या अशें कळयलां.'

म्हाकाय शेबाची वागणूक विचित्र दिसली. ते चलयेंत वेगळेपण आसलें ते तिच्या वागणुकेंत, श्रीमंताची चली आसली तरी ती सादेपणान रावताली आनी दिसूंकय तशी सुंदर नासली तरी म्हजें मन तिचेर बशिल्लें. खूबशा बाबतींत आमचे जुळपासारखे नासलें. हांव शुध्द शाकाहारी.... आमच्या पिरायेंतलें अंतर सोळा सतरां वर्साचें आसतलें.... ती श्रीमंत बापायची एकली धूव... ती डॉक्टर हांव सादो अधिकारी...

म्हज्या मनांत आयलें कशेंय तरी एक धाडस करून पळोवचें. घडये हॉस्पिटलांतल्या रेकॉर्डाचेर त्या बायलेचो गांव बरयिल्लो आसतलो. तो मेळ्ळो जाल्यार त्या गांवात वचून ते बायलेचो सोद घेवचो. पूण हॉस्पिटलाच्या रेकॉर्डांत पत्तो आसलो तो पाद्रीचो. म्हाका पाद्रीचो उगडास जालो. घडये ताका खबर आसूंये अशें येवजून हांव एक दीस त्या खेड्यांत परत गेलो.

फाटल्या खेपे हांव चान्याच्या रातीकडेन थंय पाविल्लो. हें खेपे दिसाच्या उजवाडांत

पावलो. हांवे पाद्रीची भेट घेवन ताका ते वायलेविशीं विचाल्लें.

'तिका हॉस्पिटलांत पावयल्या उपरांत कितें जालें ते म्हाका खबर ना.' पाद्रीन जाप दिली.

'पूण त्या बायलेचो गांव तुका खबर आसतलो.' हांवे म्हळें.

पाद्रीन थोडोवेळ येवजिल्ले भाशेन केल्ले. उपरांत म्हजी बारीक सारीक वासपूस केली. आनी एकदम विचाल्लें,

'तू ते बायलेक वळखता?'

'ना. हांव तिका वळखना. तिचे कडेन म्हजे कसलेंच नातें ना. फकत त्या दिसा हांवय तेच बसींन उटीक वतालो देखून...'

पाद्री तरीकय म्हजेकडेन दुबावान पळयता हें कळटकच हांव शेबाच्या बापाय वांगडा ताचे सरी आयिल्लो त्या प्रसंगाचो उगडास करून दिलो.

'ते चलयेक तिचो गांव खबर ना?' पाद्रीन विचाल्लें.

'ती चली तिगेरच गेल्ली आसा... हांव उटीक वचपाचो आसा देखून मनांत आयलें ते बायलेची खबर घेवंया.'

पाद्रीन आनीकय प्रस्न विचाल्ले आनी निमाणे म्हाका गांवाचें नांव सांगलें.

'तू पावलो जाल्यार हांवें तिका विचाल्ला म्हणून सांग. पूण तिका वाचयली ती त्या चलयेनच म्हणूंक जाय.'

गांवाचे नांव कळकटच एक व्हडलें जैत मेळयिल्ल्याची खोशी म्हाका जाली आनी पयली बस धरून हांव त्या गांवांत गेलो.

गांव कसलोसो? खेडे लेगीत व्हड आसता. दोंगराचे देंवतेचेर पत्र्याची ल्हान व्हड घरां. व्हडांतलें व्हड घर दोन खणी. एक्या घराचेर टेलिव्हिजनाचो ॲटेना दिश्टी पडटालो. व्हडांत व्हड घर दोन खणी. एका घरांत पावल दवरून वासपूस केली. त्या बायलेचे नांव हांवें विचारूंकच नाशिल्लें. पूण हॉस्पिटलांतल्यान मोटारीन हाडिल्ली बायल इतले वर्णनच म्हगेले मोडके तोडके तमिळ भाशेंत पुरो जालें. पूण ते बायलेन जी जाप दिली ती समजूपा इतली तमिळ म्हाका येना आसली. बायलेच्या पायार भुरगे न्हिदिल्लें. ताका थंयच जमनीर न्हिदावन ती भायर आयली आनी तिणे पयसुल्या एका घराकडेन बोट दाखयलें.

मळबार काळी कुपां आसली. पूण थोड्या वेळाखातीर भायर आयिल्ल्या सुर्याची किर्णा त्या पयसुल्या घरावयल्या पत्र्याचेर चकचकताली. म्हाका दिसलें खंय तरी घरामेरेन वचपाक वाट आसतली. पूण मदली वाट लागशिल्ली अशें येवजून हांव दोंगराची देंवती देंवंक लागलो. झुडपांतल्यान वाट काडीत हांव त्या घराच्या आंगणांत पावलो आनी पयसुल्यानच हांवे शेबाक पळयली.

येताच्या कठेलाचेर बसून शेबा आपले केस सुकयताली. तिजें अर्द तोंड म्हाका दिसतालें. घराचें फाटले वटच्यान एक रानटी झाड आसा. भोंवतणी दुसरें व्हडलें झाड ना, शेबा आनी म्हजेमदीं झुडपाचीं वंय आसा. घरांत भितर सरपाची वाट घडये दुसऱ्या अर्दान आसतली.

हांवें उबो आशिल्लो थंयच्यानच टाळी वाजयली. आवाजासरशीं शेबान आंग काडलें आनी भायलें वटेन म्हाका पळोवन एकदम इंग्लीशींत म्हळें, 'कितल्या अजापाची गजाल. व्यंकटराय तू हांगा कसो पावलो?'

म्हज्या जापेची तिणें अपेक्षा करूंक नासली. ती धावत वयेसर आयली आनी तिणें वंयक वळसो घालून दुसरे वटेन येवंक सांगलें.

हांव ते ल्हानशे खोर्पांत भितर सल्लो. दारांतच एक खाट आसली ते खाटेचेर ती बायल न्हिदिल्ली. शेबान भितर येतना आपूण बशिल्ली तें कदेल भितर हाडिल्लें. ताजेर म्हाका बसयलो आनी आपूण खाटेचेर एके कुशीक बसली.

हांवें ते बायलेची खबर घेतली. पूण क्षीण हांसो तिच्या तोंडार फुल्लो. तिणें शेबालो हात आपल्या गळ्याकडेन धल्लो आनी म्हळें, 'देवान म्हाका शेबाच्या रुपान चली दिली.'

'तूं चड उलोवं नाका.' शेबान तिका सांगलें.

भितल्ल्या कुडींत आयदनांचो आवाज येतालो. कोणयतरी काम करताली आसूंक जाय. शेबान आदींच ऑर्डर दिल्ली आसतली. एक बायल कॉफयेचे दोन मग घेवन दारांत आयली.

कॉफी घेतकच शेबान म्हाका भायलेवटेन येवंक खुणायलो. आतां वत गेल्लें आनी पावशी सया वातावरणांत मारताली. म्हज्या आंगात स्वेटर आसलो पूण शेबा साद्याच कपड्यांत आसली.

'तू शाल कित्याक घेना?' हांवें तिका विचाल्लें.

'निकतेंच हून उदक न्हालां, म्हाका शीं खायना.... सांग, तू कसो पावलो?'-

'उदीक एक काम आसलें.'

'पूण हो पत्तो कोणे दिलो?'

'खूब सायास पडले...'

'उदीक आमगेर गेल्लो?'

'ना.'

'म्हाका तोच हुस्को हांवें घराकडेन सांगलां. हांव कलकत्याक गेला म्हणून. देखून तुका पळोवन म्हाका मात्सो हुस्को जाल्लो. म्हज्या घरा ही खबर कळूंक फावना.'

'ना. सांगचो ना. तुका उतर दिता' अशें म्हणून हांवें म्हजो हात फुडें केलो.

पूण शेबान हातांत घेतलो ना आनी ती निखटीं हांसली. तिणें म्हळें, 'तू ह्या रानांत कोणाक सोदूंक आयला? त्या पेशंटाचे खबरेक काय म्हाका मेळूंक?'

हांव लजेलो. कितें जाप दिवची तें म्हाका कळळें ना. शेबानच विशय बदल्लो. तिणे म्हळें, 'फाटले खेपे तू उटीक आसतना तुका मेळूंक येवंचे अशें हांवे थारायिल्ले पूण उपरांत हांवेच विचार बदल्लो... एक मित्र म्हणून... फकत मित्र म्हणून तुजेकडेन वळख आसप म्हाका आवडटलें. पूण आमच्यो वाटो वेगळ्यो हें, हांवें तुका सांगूक जाय अशें ना.

म्हाका घुस्मटिल्ले भाशेन जालें. कितले सादे तरेन तिणे म्हजें मन वळखून म्हाका वाट दाखयिल्ली!

निरोप घेवंक हांवे हात जोडले. तेन्ना शेबान आपलो हात फुडे करून म्हजो हात हातांत घेवन म्हळें, 'तुका खबर नासत जाल्यार एक गजाल सांगचेली आसा.'

म्हजी प्रतिक्रिया विचित्र जाल्ली. म्हाका दिसलें ती म्हाका समजायतली वा कितेंय सुचयतली. तरी हांवे म्हळें, तार्कीद आसा, पूण तू सांगता ते आयकुपाची उमळशीक चड आसा.

घरापासून सुमार शंभर मीटरांचेर शेबा म्हज्या सांगतान चलत आयली आनी उपरांत तिणे म्हळें, म्हाका तुजो सल्लो जाय. ल्हानशे सादे जिणेंत देवान एक कठीण प्रसंग म्हजेर हाडला. हांव सामकी गोंदळून गेल्या. तूं एक.... विचारवंत म्हजेपरस तुका जगाचो चड अणभव आसतलो.'

'तू सांग, कसलेंय काम म्हज्यान जावपासारकें आसलें जाल्यार हांव तें व्हड खोशयेन करीन. मनांत कसलोच संकोच वा दुबाव दवरूं नाका. हांव सुवार्थी नदरेन तुका पळयना.'

'तुज्या मनांत कितें आसा हांव नकळ पूण म्हज्या मनांत तुजेविशीं एक वेगळेतरेची भावना आसा. हांव एक आंकवार चली. देखून मर्यादेन वागतां. जिवीतांत खुबशे चले म्हाका लागीं आयले. खूब जाणांनी मोगाची भावनाय उक्तायली. पूण म्हज्या मनांत तसलो विचार केन्नाच आयलो ना. घडये तो म्हजो दोश आसूंये. घडये आनीक कितेंय कारण आसतलें. पूण तेविशीं हांव तुजेकडेन उलोवंक सोदिना. तो प्रस्न म्हजे तकलेंतच ना. तुका घडये अजाप जायत. घरांत हातुंणाचेर न्हिदल्या ती म्हजी खरेली आवय.'

हांव एकदम गोंदळळो आनी म्हळें, 'खरेली म्हळ्यार कसली?'

'खरेली म्हळयार जिणे म्हाका जन्म दिल्या ती!'

'आनी उटीक आसा ती?'

'कशें सांगचें तें म्हाका समजना आनी म्हजो आतां कोणाचेरच विस्वास ना. खरें कितें फट कितें ते हांव नकळ. पूण ती म्हजी पोसकी आवय आसूंक जाय.' एकदम शेबाक हुडको फुटलो आनी दोनूय पोशांनी तोंड धांपून ती रडूंक लागली.

केदोवेळ मेरन तिका रडप आवरना आसलें आनी तिजें सांत्वन कशें करचें ते म्हाका समजना आसलें.

'त्या दिसा बसींत जिका हार्टअॅटॅक आयिल्लो तीच ही वायल मूं? ती तुजी आवय हें तुवें त्याच वेळार कित्याक सांगलें ना?'

तेन्ना म्हाका खबर नासलें. म्हाका जल्म दिवपी आवय दुसरी आसतली हेंय हांव नकळ आसलें. पूण ल्हवू ल्हवू सगळें म्हाका कळळें.'

'कोणे सांगलें?'

'हेंच आवयन सांगलें. खरें म्हळ्यार ती उलयतां उलयतां जे सांगून गेली ताजेवयल्यान म्हाका सगळें कळळें.'

'तूं तिची धूव हे तिका खबर आसा?'

'ना. अजून हांवें पत्तो लागूंक दिवंक ना. तिजेविशीं तुजें म्हाका मत जाय आसलें. हांवें कितें करपाचें?'

'हांव कशें सांगू?' हांवें म्हळें, 'जर एका म्यान्यात दोन तलवारी रावंक येतात जाल्यार....'

'तें कशें शक्य आसा? तूं म्हजे उदीच्या आवयक वळखना. म्हज्या पायांक कांटो रोमलो जाल्यार ती कासावीस जाता. बापायक कितल्योशोच व्याधी... डायबेटीस आसा. काळजाच्यो व्याधी आसात. आज म्हजी पिराय तेवीस वर्सांची. फाटलीं तेवीस वर्सां जिणे म्हाका ल्हानाची व्हड केली... म्हाका इतलें प्रेम दिलें, म्हाका मनशांत हाडली ती म्हजी कोण न्हय अशें हांव कशें म्हणू, आनी तिजें मन कशें तोडूं?'

हांवें विचाल्लें, 'तू कुवाड्याची भास उलयता. ही तुका जल्म दिवपी आवय जाल्यार तुका तिणे कित्याक सोडले? आनीक एक गजाल आसा. तुका फटोवपाचो कोणेय कट रचूंक ना मूं?'

'ना. हांव तशें फटोवन घेवपी चली न्हय: तिणे बाबडेन हांव आपलें चली अशें म्हणूंकच ना. म्हाका एक एक गजाल कळूंक लागल्या...'

शेबान आपल्या जिवीताची काणी म्हाका सांगली. खूबश्यो गजाली दुबावाच्यो आसात आनी ती चुकीचो तर्क करून बसल्या अशें म्हाका मनापासून दिसलें. पूण हांवें तिका तशें सांगलें ना. पूण तिच्या मूळ प्रस्नाकय जाप दिवप म्हाका जमलें ना.

हांवें ताका विचारलें, 'तीच आपली आवय हे शेबाक कशें कळ्ळे?'

'आं ते सांगपाचें उल्लें. शेबान ते विशीं सांगलें तें अशें.' अशें म्हणून व्यंकटरायान शेबाकडल्या संवादाचे सार म्हाका सांगलें....

हॉस्पिटलांतल्यान तिका घरा व्हरपाचो प्रश्न आयलो. तेन्ना तिका घराकडेन कोणच ना हे शेबाक कळळें. सोयरे आसात तांचेकडले संबंद ते बायलेन आदीं मावन तोडल्यात.

'कित्याखातीर हे संबंद तोडले?' हांवें शेबाक विचारलें.

'एके वायलेची लाचारी तुका सांगून कळची ना. आंकवारपणान गुरवारपण येतकच कीड जाल्ल्या रोग्यापरसय पाश्ट अशी तिजी स्थिती जाता.' शेबान जाप दिली.

शेबाचो बापूय म्हैसूराक रावतालो. नारायणमूर्ती तांचे नांव. पोसके आवयचें नांव रेवती. खरेली आवय चनम्मा. तांगेर वावराक आसली. वाडिल्ली तरुण चली. त्या सगळ्या काळ्या कातीच्या लोकांमदी ती निरक्षर बायल गोरी आनी सुंदर. नारायणमूर्तीच्या भावालो एक व्हडलो चलो भायल्या गावांत रावतालो. तो केन्नाय म्हैसूराक येतालो तेन्ना चन्नमाचेर ताजी नदर पडटाली. हनुमान त्या चल्याचे नांव. शेबान ताका पळोवंक ना. ताचो लौकीक आयकल्लो. नारायणमूर्तीगेर भुरगें नाशिल्लें. आनी भावाल्या चल्याक ताणे पोसको घेतिल्लो.

एक खेपे म्हैसूराक आयिल्ल्या वेळार चनम्मा हनुमानाच्या सुवाटीन जाली. ताणे तिका लग्नाचें उतर दिलें. पूण तो एका विमान अपघातांत मेलो. हे वाटेन चनम्माक दीस गेले. तिणे घडिल्ली खबर मालकिणीच्या कानार घाली. आनी तिज्या आनी रेवतीच्यामदी एक कबलात जाली. भुरग्याक जल्म दितकच चनम्मान खंयय पयस वचून रावपाचें. तिज्या नांवार खूबशे पैशे रेवती बँकेत दवरतली आनी म्हयन्या म्हयन्या चनम्माक व्याजाचे पैशे मेळटले. चनम्माक जाय आसत जाल्यार तिज्यान दुसरें लग्न जावं येता.

अशे तरेन शेबाचो जल्म जालो. आपले पोटचे धुवेसारकी तिका रेवतीन वाडयली. कांयच उणे पडूंक दिले ना. वा तिज्या जल्माचे रहस्य कोणाक कळूंक दिले ना.

म्हैसूरासावन नारायणमूर्ती बायलेक आनी ल्हान चलयेक घेवन उर्टाक येवन रावलो. तेवटेन चनम्मा त्या खेड्यात वचून रावली. दोगांय लागी आयली तरी इतली वर्सां मेरेन तांची गाठभेट केन्ना जाली ना आनी उर्टाच्या बसींत चनम्माक हार्ट अॅटेक येवंक नाशिल्लो जाल्यार शेबा तिजेसरी पावपाची न्ही.

'पूण आपली चली तीन म्हयन्याची आसतना मेली अशें तिणे सांगिल्ले न्हय?' हांवे व्यंकटरायाक विचाल्लें.

'हय. तिजेखातीर ती मेल्लीच न्हय?' व्यंकटरायान म्हळें. पूण हॉस्पिटलांत तिची सेवा करता आसतनाच चनम्मान खरी खबर शेबाक सांगली. इतली लागी येवनय नारायणमूर्तीन वा रेवतीन चनम्माक पळयली ना. नाजाल्यार ही कथा वेगळेच तरेन सोंपतली आसली.'

गाडयेची स्पीड उणी जाली. व्यंकटरायान आनीक एक तंबाखूचो डोस घेतलो. आनी म्हळें, 'ही खबर आयकून तुका कितें दिसलें?'

'आज शेबा खंय आसा?' हांवें विचारलें.

'म्हाका खबर ना. हांव तिका सोदूक खूब खेपे हॉस्टेलांत गेलो. पूण ती थंय नासली. आनी त्या उपरांत हांव उर्टाक केन्नाच गेलो ना.' व्यंकटरायान सांगलें.

'म्हण्टकच तूं शेबाक केन्ना मेळ्ळो ना?' ती आज उर्टाचे पोसके आवयसरी आसा

काय ती जिका आपली खरी आवय म्हणटा निसर्ग आसा?'

'म्हज्या कादंबरेंत हांवें शेवट करूंक ना. कित्याक तर खऱ्यांनीच शेवट कितें जालो तें म्हाका खबर ना. हांव बेंगळूरातच आसतां - त्या उपरांत हांव उटीकय पावलो. पूण शेवा खंय दिसली ना. हांवेंय कोणाकडेन वासपूस केली ना. घडये नारायणमूर्तीगेर गेल्लों जाल्यार उलगडो जातलो आसलो. पूण ते धाडसूय हांवें केलें ना.' व्यंकटरायान जाप दिली.

'आज तुजें जिणेंत शेबाची गैरहाजिरी तुका कितली बादली?' हांवें निमाणो प्रश्न विचारलो.

व्यंकटरायान तोंडातल्यान तंबाखूचो रोस ओडून घेतलो आनी म्हळें, कांय पोकळयो अशो आसात ज्यो भरून येनात. वयल्याचाराक विचारशी जाल्यार हांव सुखी आसा, लेखक म्हणून नांव जोडलां... बँक बॅलन्स बरे आसा... गुणी आनी शाणी बायल मेळ्ळ्या... हुशार अशे चले जाल्यात. जिणेंत उणें कांय ना. पूण केन्ना अशें दिसता हांवें चिवटपणान प्रयत्न केल्ले जाल्यार जिणेक वेगळें मोड मेळपाचे. शेबान एक खेपे हाताच्या स्पर्शान म्हाका सुचयलां तें बेठेच नासतलें.'

म्हाका ओगींच दुबाव. व्यंकटरायाचे दोळे दुकांनी भरून आयले. तो उठून टॉयलेटांत गेलो. आनी एकाएकी गती मंदावत गाडी अर्नाकुलम स्टेशनात भितर सर्ली.



# शेफाली

शेफालीच्यो मेळत ताचेविशीं कागाळी आसताल्यो. पयली कागाळ आवय विशीं, तिगेले आवयचें कुळारचें नांव कामणें. लग्नावेळार घोवान नांव बदलून कामण्याचें कामिनी केलें. त्याच नांवान तिचो घोव तिका उलो मारता. पूण कुळारचें कोणय आयले जाल्यार कामण्या... कामण्या म्हणटात.

नांवांत कितें आसता? शेफाली येवजिता. नांव उच्चारलें म्हणटकच मनशाची मूर्त दोळ्यांमुखार उबी रावता. कामणें म्हळें जाल्यार णव वारी कापड न्हेशिल्ली, कपलभर तिळो लायिल्ली, वयल्या दांताचो फोणो सकल्या ओंटांचेर दवरिल्ली एक बायल दोळ्यांमुखार येता. कामिनी म्हळें जाल्यार तिचे दांत भितर वतात. आंगार स वारी साडी येता...

शेफाली आपले आवयक मॉडर्न करूंक सोदता. कामण्याची कामिनी जाली जाल्यार कामिनीची मिनी जावंक कसली आडखळ अशें ती येवजिता. आवयक ती सांगता, 'ल्हवु ल्हवू संवय जातली. पूण आदीं कैंस कापचे पडटले...'

कैंस कापपाची सुचोवणी आवयक केली आनी आवयन हातांतलो तोप जमनीर आपटून किळांच मारली. अशें कित्याक घडलें तें शेफालीक अजून कळना.

बापायविशींची कागाळ वेगळे तरेची. ल्हान आसतना ती बापायक बाबा म्हणटाली. फुडें बाबाचो पापा जालो. आनी कॉलेजांत वचूंक लागतकच शेफालीन ताका डॅड करून सोडलो. (आवयकय ती मॉम म्हणटाली पूण तसो उलो मारल्यार आवय तिच्या आंगार येताली.)

एक दीस घरांत पोशिल्ल्या माजरान तिगेल्या बापायच्या ताटांतलें नुस्त्याचें पोस्त सगळ्यांच्या दोळ्यांमुखार व्हेलें आनी भायर व्हरून खालें. शेफालीन टाळयो मारून म्हळें, 'दाने दाने पर लिखा है खानेवाला का नाम!'

पूण माजरा फाटल्यान धांवन पोस्त मेळूंक नाशिल्ल्यान तिडकल्ल्या बापायन रागाभरशीं शेफालीचेरच एक थापट मारलें आनी उपरांत जेन्ना माजर परत आयलें तेन्ना त्या माजराक ताणें बडयांनी बडयलें.

शेफालीक राग आयलो. तिणें करचें कितें? तांचे वळखीचो एक पिशांचो डॉक्टर आसा. ताका फोन केलो आनी म्हळें, 'म्हज्या बापायक हिस्टेरियाची फीट आयल्या. बेगीन

यो.'

डॉक्टर आयलो तेन्ना सगळ्यांकच लज जाली. पूण शेफाली म्हणत रावली. 'पयलें लक्षण पळयना फुडें हांवें तुका शिटकायला. मागीर दुयेंस बळावतलें.'

शेफालीचो एक मित्र आसा. राधेय ताचें नांव. 'राधेय ह्या नांवाचो अर्थ आदीं समजून घे' अशें म्हणून ती एक दीस ताचे कडेन झगडली. तरी तो शेफालीगेर येत रावलो. एक दीस आपल्या सांगातान सिनेमाक यो असो तो शेफालीक आग्रो करतालो. शेफालीन कांय अटी घाल्यो. राधेयान त्यो मान्य केल्यो. थिएटर वातानुकूलीत आसून उपकारना. ही पयली अट. आपूण पसंत करीन तो सिनेमा पळोवपाचो ही दुसरी अट आनी तिकेटीचे चड पैशे खर्चिना आसतना चणे आनी आईस्क्रीम खूब खावप ही तिसरी अट.

एका पोरन्या जीर्ण थिएटरांत 'पवनपुत्र हनुमान' सिनेमा लागिल्लो. मुखावयल्या वांकाचेर बसूंक आठ आण्यांची तिकेट. मजुरांचे वस्तींत लागिल्ल्या ह्या सिनेमाक तरेकतरेचे लोक आयिल्ले. नाल्ल, उजवाती घेवन बायलो आयिल्ल्यो. काळखांतलो सांगात मेळचो म्हणून जोडपीं आयिल्लीं. तातूंतय बरी गजाल म्हळ्यार सिनेमा चालू आसतनाच आईसफ्रूट आनी भिकणां विकपी भुरगे थिएटरांत भोंवताले. त्या वातावरणांत राधेयाचो जीव घुस्मटूंक लागलो. पूण शेफालीखातीर ताणे तो सोंसलो. मारुतीन चमत्कार केलो रे केलो की प्रेक्षक शिळोणी घालताले. शेफालीक शिळोणी घालूंक येना. ती तोंडान किळच्यो मारताली. राधेय बाबडो कितें करचें तें समजना जावन मोन्यांनी बसून रावलो. सिनेमा सोंपसर शेफालीन सात आयस्क्रिमां खालीं. भिकणांच्यो धा पुडयो फस्त केल्यो आनी जेन्ना मारुतीन आपलें हड्डें फोडून भितर राम आनी सीता दाखयलीं तेन्ना शेफालीन कितें करचें? राधेयाचे फाटीरच एक थापट मारलें आनी म्हळें, 'तुजी छाती फोडून दाखय पळोवंया... थंय कोण कोण आसात तीं!'

राधेयाच्या जाग्यार दुसरो कोणय आशिल्लो जाल्यार त्या दिसा उपरांत शेफालीचो नाद सोडटलो आसलो. तिगेले आवयन लेगीत ताका सुचयलें. 'आमगेली शेफाली धड न्हय. ती बऱ्या मनशाक पिशें लायतली.'

पुण अपुर्बायेची एकली चली. तिगेल्यो सगळयो आगळिको आवय बापूय सोंसताली. हेरांक त्यो सोंसच्यो पडनासल्यो. ती जांचेकडेन संबंद दवरताली तो धनिक आसतालो. हेरांकडेन ती नदर घुंवडावनय पळयनासली... उलोवपाचें पयसच उरलें.

शेफालीचें फुडें जातलें कशें, हो तिगेले आवयक हुस्को.

'दुसऱ्याचें जाता तशेंच म्हजेंय जातलें.' शेफाली म्हणटा.

'ना. ना. तूं वेगळीच. देवान तुका जल्माक घालता आसतना तो मात्सो घाळ उरलो आनी एक चूक केली... तुका शिंगा दिवंक तो विसरलो.' बापायन म्हळें.

'खरेंच, म्हज्या लक्षांतच आयलें ना.' हांसून शेफालीन म्हळें, 'पूण गुन्यांव देवाचो न्हय; बैलाचो.'

बापूय अजापान तिच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. गंभीर तोंड करून शेफालीन म्हळें, 'तुवें शिंगां कापून दवरलीं. देखून म्हाका ती फुटलीं नात.'

बापूय धवो फटफटीत जालो. आवय लजेवन मान सकल घालून भितर गेली. असली शेफाली!

एक दीस आवयन शेफालीक विचारलें, 'तुवें येवजिलां कितें तें तरी सांगून उडय.'

'हांव येवजीच ना. मागीर सांगू कितें?' शेफालीन जाप दिली.

'तुका घोव आमी सोदपाचो कांय तुवेंच सोदून दवरला?' आवयन विचारलें.

'तुमकां हांव हांगा राविल्लीं नाका जाल्यार हांव वेगळें बिराड करतां.' शेफालीन जाप दिली.

'आवयचें घर हें चलयेचें कुळार आसता. तिचें खरेलें घर घोवागेर आसता. तूं आमकां जड न्हय. पूण वाडिल्ले चलयेच्या गळ्यांत मंगळसूत्र सोबता तशेंच ती आपल्या घरांत आसपांत तिची व्हडवीक आसता.'

उलयतना आवयच्या दोळ्यांनी दुकां आयलीं. शेफालीचें एक दुबळेपण आसलें. कोणय रडलो जाल्यार ती कळवळटाली. तिणें आवयक धीर दिलो. आपल्या बोटांनी तिणें आवयलीं दुका पुसलीं आनी म्हळें, 'तुज्या उतराभायर हांव ना.'

अमेरिकेक सावन एक चलो आयिल्लो. कोणें तरी शेफालीखातीर तो सुचयलो. फुडाकार घेवंक बापूय तयार नासलो. पूण आवयन आगरो केलो आनी बापायन ताका शेफालीक 'पळोवंक' आपयलो.

आवयन शेफालीक सांगलें, 'खंय वचुंनाका. तुका पळोवंक येतलो.'

शेफालीन परती जाप दिली ना. जेन्ना चलो आयलो तेन्ना साडी न्हेसून केंसांचो आंबाडो घाल्ली शेफाली लजेत भायर आयली.

तिगेलो तो भेस आनी ती वागणूक पळोवन आवयक लेगीत अजाप जालें. तिणें मनांत देवाचे उपकार मानले.

शेफालीक दिशिल्लें, अमेरिकेचें वारें लागिल्लो चलो आपणाक गांवढळ मानून नकार दितलो. पुण घडलें विपरीतच. ताका शेफाली पसंत पडली. तागेलो हयकार कानार पडनाफुडें आवय देवाकुडींत धांवन गेली आनी बापूय न्हवऱ्या सांगातान आयिल्ल्यांक घर दाखोवपाचें निमित्त करून कडसरलो.

'हांव तुका पसंत आसा न्हय?' चल्यान शेफालीक एकांताची संद सादून कितेंय तरी उलोवंक जाय इतलेच खातीर विचारलें.

'तूं म्हाका अमेरिकेक व्हरतलो न्हय?' शेफालीन परतो प्रस्न विचारलो.

'हय, हय. दुबाव कित्याक आयलो?' चल्यान विचारलें.

'आदींच सांगून उडयल्लें बरें. शेफालीन जाप दिली, 'म्हजो एक मित्र अमेरिकेक गेला. एका निमित्तान ताचेसरीं पावतलीं. ताचें म्हजें जुळें जाल्यार...'

अविस्वासान तो चलो उबो गवलो आनी विचारलें, 'हांव आटलें तुका विचारिना. पूण एक खेपे लग्न जालें म्हणटकच तुका दुसरो इश्ट आसूंक उपकारना.'

'जुळत अशें दिसना', थंडसाणेन शेफालीन जाप दिली. 'पूण जुळळें जाल्यार आमच्यांनी घटस्फोट घेवं येता.'

साखरीचो करंड घेवन आवय भायर आयली. पूण साखर तोंडांत वडयलेबगर, राखण्यान गोरवांक आमुडचीं तशीं आपल्या सांगातान आयिल्ल्यांक घेवन तो चलो भायर सरून गेलो.

तो वतकच शेफालीन कितें करचें? दोनूय हातांनी टाळयो वाजयत आपल्या बेसूर आवाजांत ती सिनेमाचें गीत गावंक लागली.



# बरोवंक नाशिल्ल्यो कथा

शब्दकोशांत हजारांनी उतरां आसतात. दर एका उतराक ताचो खाशेलो असो अर्थ आसता. एकाद्रो कवी तांतलीं पांच-पंचवीस उतरां वेगळीं काडटा आनी तीं अशे तरेन रचता कि त्या उतरांच्या सुमेळांतल्यान एक नवें भावविश्व तयार जाता. कवी उतरां निर्माण करिना. घोळणुकेंतलींच तीं उतरां. शब्दकोशांत निर्जीव आसतात. कवी तांची अशेतरेन रचणूक करता कि त्या उतरांत जीव तर येताच, पुण तांतुंतलें ब्रह्मय उक्तें जाता. दर एका उतराक जसो अर्थ आसता तसो ताल, नाद आनी सूर आसता. ताल, नाद आनी सुरांच्या सुमेळांतल्यान एक नवो अर्थ जेन्ना तीं उतरां उक्तो करतात तेन्ना कविता जाता. निखट्या उतरांचे पुंजे म्हळ्यार कविता न्हय. तशी आसती जाल्यार शब्दकोश हे म्हाकाव्य जावपाचे. कवीक एक विचार, एक चित्र उतरांनी उक्तावपाचें आसता आनी तें काम तो आपली कला वापरून करता. उतरां जाणा जाल्यार नुपुरो. ती हाताळपाची कलाय आंगांत आसची पडटा. तबल्याचेर थाप माल्ली म्हण्टकच आवाज येता. तंबोऱ्याची तार छेडली वा खंयच्याय दुसऱ्या वाद्यावेल्यान हात भोंवडायलो, नाजाल्यार तातूंत वारो फुंकलो म्हण्टकच संगीत भायर सरता. पुण वाद्यान काडिल्ले सगळेच आवाज संगीतांत मोडनात. एकाद्रो कलाकारच त्या सुरांक संगीताची सोबितकाय दिवंक पावता. वाद्यवृंदांत साबार तरांची वाद्यां वेगवेगळे लोक वाजयतात, पुण त्या विंगड सुरांमदीं जेन्ना तांचो मेळ जमोवपी नाद, ताल उरता तेन्नाच गोड संगीत निर्माण जाता.

कथा हो साहित्य प्रकारय अशेंच तरेचो आसता. तशें पळोवंक गेल्यार कथा हो आमचे भोंवतणचे जिणेचोच वांटो. आमचे दिसपट्टे जिणेत जायत्यो कथा घडत आसतात वा तांची बिंयां निर्मतात. आमचीं सुखां आनी दुख्खां, आमचीं सपनां आनी हावेस, आमचे सुवार्थ आनी मत्सर, आमचे समाजीक संबंद आनी संघर्श हांचेमदीं कथा घडत आसता. त्यो घडये सुसंगत नासत पण दर एके घडणुकेंत, प्रसंगात, पेचांत वा अवस्थेंत कथेचें बीं आसता. ते बी उखलून कथाकार आपले कल्पनेचे जमनींत रुजयता आनी आकाराचें उदक सारें घालून त्या बियांचें रोप किल्लयता. बियाची तांक आनी कथाकाराचे प्रतिभेचें वळगें हांच्या प्रयोगांतल्यान कथा रूप घेता. पुण जशें वाद्यवृंदांत वा कवितेंत घडटा तेंच कथेंतच घडटा. कथेंत जें कितें येता - वर्णन आसूं वा व्यक्तिमत्व आसूं, संवाद आसू वा

प्रसंग आसूं, त्या मूळ बियाचो सभावीक विकास करपाक तें हातभार लावपी आसचें पडटा. कारंज्यांतलें उदक अधांतरी उडून परतून कारंज्यांत जशें वता तशें कथेचें बी फुलांवपाखातीर कथेंत आयिल्लें प्रत्येक पात्र वा एकूण एक प्रसंग हो परतून त्या बियाभोंवतणीं उरचो लागता.

कथा केदी आसची, कशी आसची हें थारावप कठीण. वडाचें झाड मळब भेदपी आसूं येता नाजाल्यार रुंदायेन वाडिल्लें उरूं येता. पूण कांय वड मोटेंच उरतात. वडाची लांबाय आनी ताचो विस्तार हो मूळ बियाचेर, जे जमनीत तें बी रुजलां ते जमनीच्या कसाचेर आनी ज्या वाटारांत ते वयर सल्लां थंयच्या वातावरणाचेर पातयेवन आसता. कथेचेंय तशें जाता. जमनीवयर तकली काडून थंयच गवर्पा गेंपो हें जशें पूर्ण झाड तेच भशेन मळबाक तेंकपी वा जमनीर पातळपी ना जाल्यार हेरां झाडांक वेंगावपी वनस्पत हें झाडाचेंच प्रकार. कांय झाडां पानां दितात, कांय फुलां दितात कांय फळां दितात, कांय सगळे ऋतूंमदीं तग धरतात कांय खिणयाळी आसतात. कांय वासाक, कांय अन्नाक, कांय सांवळेक काय फुलांखातीर जाल्यार कांय सोबेखातीर उपकारतात. साहित्यामदीं कथांकय हो नेम लागू जाता.

जिणेंत कान-दोळे आनी चड करून काळजाचीं दारां उक्तीं दवरून वावरतना कथांचीं बियां चांटये पावलाक मेळटात. अशीं जीं बियां म्हाका मेळ्ळीं तांची नोंद त्या त्या वेळार हांवें मनाचे उगडास पटयेचेर कोरून दवल्ल्या. केन्नाय तरी ती कथा बरोवन काडटलों अशें मनांत आसता. अचकीत एकाद्री कल्पना आकार घेता आनी कथा बरोवन जाता. पूण वर्सांचश्यो अशल्यो कथा कोटयेकुडींत दवरिल्ल्या बियांवरी थंयच पडून आसतात. कथांचीं अशलीं बियां कालांतरान मनाचे उगडास पटयेवयली उडून वतात. पुण कांय सासणाचीय तिगून उरतात. असल्या कांय बरोवंक नाशिल्ल्या कथांची ही कथा.

हांव कथा कशी बरयतां? जिणेंत वावुरतना कथांचीं जीं बियां हांव पुंजायतां तीं म्हज्या मनांत घोळत आसतात. मनांतल्या मनांत हांव तांकां रंग-रूप- आकार दिवपाचो वावर कळत-नकळता करीत उरतां. पुण रेंवच्या घराभशेन एकाद्रे कथेक आकार येवंक लागतां लागतां तीं कोसळटा. दुसरी एकाद्री एके नवे परिस्थितींत नवो आकार घेता आनी मागीर हांव ती कथा बरोवन काडटां. मळबांतल्यान झडटलो पावस हो निर्मळ आसता. ज्या वातावरणांतल्यान तो झडटा त्या वातावरणाच्या संदर्भांत तो प्रदूपित जाता. जे जमनीत तो पडटा ती जमीनय त्या पावसाच्या उदकाक रंग-रूप, आकार आनी दिशा दिता. मुळांतलें बीं खंयच्याय वातावरणांत सांपडिल्लें आसूं तें ज्या वातावरणांत फुलता त्या वेळावेलो लेखकाचे मनस्थितीचे परिणाम कथेच्या रंग-रूप - आकाराचेर जाताच. देखून एकच बीं एकाच वेळार दोन कथाकारांक गावलें तरी कथेचो आकार घेवन जेन्ना तें साहित्यांत गावता तेन्ना त्यो दोन स्वतंत्र कथा जांव येतात. कारण ज्या दोन कथाकारांच्या माध्यमांतल्यान हें बीं गेल्लें आसता त्या माध्यमाचो प्रभाव कथेचेर पडलेबगर उरना.

(१)

एका समारंभाक गेल्लेकडेन एक ल्हानशी चली माचयेर भरतनाट्यम् नाच करताली. म्हज्या शेजराक बशिल्लो मनीस तो नाच पळोवन इतलो तल्लीन आनी अस्वस्थ जाल्लो की तो परत परत हाताचो कोंपर म्हजे कुशीर मारतालो. ताजो विरस करचो न्हय म्हणून हांव आंग चोरून बसलों. नाच सोंपलो तसो त्या मनशान आपल्या बोल्सांतलो लेंस भायर काडलो आनी आपल्या तोंडावेली हूम पुसून चुरचुरिल्ले भाशेन 'चे' असो उद्गार काडलो. हांव ताका पळयत रावलों. जागच्या जाग्यार बरोच वेळ चुळबुळत रावल्या उप्रांत ताणे म्हाका सांगलें, ''जाणा तूं, मात्शें चुकलें, नाजाल्यार आतां नाचिल्ले चलयेचो बापूय हांव जावपाचो.''

तो कितें म्हण्टा हें म्हाका समजलेंना. पूण ओगीच चर्चा वाडोवची न्हय म्हणून हांव ओगी रावलों. पूण तागेलें समाधान जालें ना. ताणे फोडणिशी केली. म्हळें, - ''हे चलयेले आवयची सोयरीक म्हाका आयिल्ली... तशी म्हाका चली पसंत आशिल्ली, पुण घरच्यांक मानवली ना.''

आनी पश्चाताप जाल्लेभाशेन ताणे आपले दोनय हात चोळळे.

एक चुटको म्हणून हो प्रसंग खंयूय सांगूं येतालो, पुण ह्या प्रसंगांत एके कथेचे बी आसा. तो नाच पळयता आसतनाच त्या मनशाची मनस्थिती बरे तरेन रुजू करून ही कथा बरोंव येताली. ती बरोवची अशें जायते फावटी हांवें थारायलें, पुण अजून बरोवंक पावलो ना.

***

(२)

दुसरो एक प्रसंग हरिव्दाराक गेल्ले कडेन पळयिल्लो. एके बायलेचें सुमार वर्स-देड वर्साचे भुरगें मेल्लें आनी ताचें प्रेत घेवन ती रडटाली. तिगेलें एक चार-पांच वर्साचें दुसरें भुरगें आवयक रडूं नाका म्हणून सांगतालें. दोनय भुरगीं नागडीं आसलीं आनी आवयच्या आंगार लज धापपा पुरतीं वस्त्रां आसलीं. ती रडटा हे पळोवन चार लोक जमले. एकल्यान एक धवें वस्त्र हाडून प्रेता भोंवतणी गुठलावन प्रेत गंगेत सोडलें. तेसरशीं आवयन गंगेत उडी घेतली. सगले लोक तटास जावन पळोवंक लागले. ती जीव दितली? ना - तिणे तें प्रेत उखल्लें. ताका गुठलायल्लें वस्त्र सोडयलें आनी नागडें प्रेत गंगेत सोडून ती वयर आयली. तिणें आपली दुकां पुसून म्हळें ''मेल्लें देवाकडेन पावलें. हें जें पदराक आसा ताच्या आंगाक तरी हें वस्त्र घालूंक मेळटलें.''

ह्या प्रसंगांत एक प्रभावी कथा निर्मूपाची तांक ना?

***

(३)

मुंबय फोर्टांतल्या एका बस स्टॉपाकडली गजाल. रात जायत आयल्ली आनी लोकांची

येरादार पातळ जाल्ली. जाल्यारय स्टॉपाचेर एक लांब रांग आशिल्ली, म्हजो नंबर इतलो फार्टी आसलो की म्हाका पयले बसींत जागो मेळपाची खात्री नासली. उबो राविल्लेकडेनच हांवे एका बूट पॉलिशवाल्यामुखार म्हजो पांय धल्लो.

स्टॉपाच्या मुखार रस्त्याचेर एक फेरीवाली चली आंगार घागरो पोल्क घालून हातांत उजवाती घेवन फिरताली. ती आसली काळी कुळकुळीत. पुण तिच्या आंगा कणकणी मुसमुसतें जुवानपण तिगेल्या वस्त्रांचें बंधन तोडून भायर सरूंक सोदतालें. ती आपले आंगाचे प्रदर्शन करीत 'अगरबत्ती लो', अगरबत्ती लो, खुशखबर, खुशबुदार अगरबत्ती लो,' अशें तोंडान म्हणत लोकांक खुबळायिल्लेभशेन हांसताली. म्हजी नदर तिजेर थिराविल्ली म्हणपाचें भान जेन्ना ती म्हजेसरीं आयली तेन्ना म्हाका जालें. तिणे हांसत मुड्डत विचाल्लें, "साब, अगरबत्ती खरीदना है?" ती कोणाक हो प्रस्न विचारता हें सट् करून म्हज्या लक्षांत आयलें ना आनी हांव तकली घुंवडावन पळोवंक लागलों. ते सरशी ती खेटून म्हजेसरी आयली आनी उजवातीचो एक पुडो म्हज्या भुजाक लावन म्हळें, "लेना है?"

हांव गडबडलों पूण पॉलिशवाल्यान तिका हटकून म्हळें, "दस रुपयेका सौदा मंजूर है?"

वाऱ्यार हात नाचोवन तिणे ताका फांफुडलो. आनी ती फुडें गेली. पॉलीशवाल्यान म्हाका सांगलें, "साब, चालू माल है - लेकिन बहुत महंगा."

एक बस आयली आनी खूबशे लोक गेले. आमी पांच-स जाण उल्ले. इतले म्हणसर ती उजवाती विकपी चली फुडें वचूंक गेली, तिज्या फाटोफाट बूट पॉलिशवालो.

ह्या प्रसंगाचेरय एक कथा बरोवची अशें हांवे थारायिल्लें, पुण ती बरोवप अजून जमूंक ना.

***

हे सारकीले प्रसंग जण एक मनशाचे जिणेंत आयिल्ले आसतात. निखटे प्रसंग म्हळ्यार कथा जायना, कथाकाराक ह्या प्रसंगांतलें बी घेवन कथा रचची लागता. कथा म्हळ्यार फकत प्रसंग वा घटना न्हय, वर्तमानपत्रकार म्हण्टात, सुणें मनशाक चाबलें जाल्यार ती बातमी जायना; मनीस सुण्याक चाबलो जाल्यार मात् ती बातमी म्हणू येता. निसर्गाच्या नेमाक धरून जें कितें थारायिल्ले फास्केंतलें घडटा ती कथा नासता. सोरोप मनशाक चाबलो आनी मनीस मेलो हो प्रसंग कितलोय करुण आसलो तरी ताजी कथा घडयता आसतना त्या प्रसंगात सगळी आंगां चडवंची लागतली. कथेचो प्राण हो कुडींतलो आत्मो. पुण कूड ही फकत आत्मो आसलो म्हणूनच घडना. तिका तकली, पाय, हात, कान-नाक, दोळे, पोट-फाट हे अवयव आसचे लागतात. पुण हे सगळे अवयव जागच्या जाग्यार आसूनय जर ते कुडींत प्राण नासलो जाल्यार ती कूड जशी निर्जीव उरता तीच गजाल कथेची जाता.

सुर्वेक सावन आजमेरेन कथेचे तंत्र आनी आकार खूब बदल्ला. पुण कथेचो प्राण

म्हळ्यार विसंगत. ती मात अजूनय उल्ल्या. कथा शंभर पानाची आसूं वा शंभर ओळीची, तिच्यांत एक विसंगत आसचीच पडटा. ती मागीर घडणुकेची आसूं, वातावरणाची आसूं. भावनेची आसू, व्यक्तिमत्वाची आसू, वा हेर कसलीय आसूं, 'एका मनशाक सोरोप चाबलो, आनी तो सोरोप मेलो,' अशे एकाच वाक्यांत एकाद्री कथा सांगू येता. पूण कथेचो हेतू फकत विसंगत निर्माण करपापुरती न्हय तर वाचप्यांमुखार उतरांनी बांदिल्लें एक शिल्प उबें करपाची आसता. एक अशे शिल्प जांतूत ताका जिविताच्या खंयच्याय एका आंगाचें दर्शन घडटा. ज्याका हे करप सादता तोच बरी कथा बरोवंक पावता.

